# रंगयात्रीक

(नाटक)

दत्ताराम कामत बांबोळकार




गोवा कोंकणी अकादेमी

रंगयात्रीक
नाटक

लेखक :
दत्ताराम कामत बांबोळकार

प्रकाशन क्र. 89



पयली आवृत्ती :
2006

उजवाडावपी :
गोपाळकृष्ण पाडगांवकार
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय 403 001

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

अक्षरजुळणी :
ज्योती गांवकार

छापपी :.
कस्तुरी ग्राफिक्स,
ढवळी, फोंडें गोंय

**मोल : रू. 25/-**

Rangayatrik
Play in Konkani

by
Dattaram Kamat Bambolkar

Publication No. 89



First Edition:
2006

Publisher :
Gopalkrishna Padgaonkar
Secretary,
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony,
Panaji, Goa. 403 001

Cover Design:
Shridhar Kamat Bambolkar

Typesetting :
Jyoti Gaonkar

Printer :
Kasturi Graphics,
Dhavali, Ponda - Goa.

**Price : Rs. 25/-**

---

'रंगयात्रीक' नाटकाचो पयलो प्रयोग अंत्रुज लळीतक, बांदोडें फोंडें हे संस्थेन तेविसावे कोंकणी नाट्य सर्तीत, ता. 07/10/1998 दिसा, सांजेच्या 7.00 वरांचेर, पणजे, गोवा कला अकादमीच्या मा. दिनानाथ कला मंदिर नाट्यघरांत सादर केलो.

## पयल्या प्रयोगांतले माचयेवयले कलाकार

| | | |
|---|---|---|
| मामा | : | उमेश नायक |
| दादा | : | रघुनाथ साकोर्डेकार |
| विश्वासराव | : | आनंद काणकोणकार |
| कलानंद | : | अरूण गावणेकार |
| गुणा | : | राधाकृष्ण बांबोळकार |
| ज्ञानेश | : | उदय तिळवे |
| गुरू | : | गुरूनाथ नाईक |
| शशी | : | नरेंद्र नाईक |
| सावली | : | रूपा च्यारी |

| | | |
|---|---|---|
| दिग्दर्शक | : | श्रीधर कामत बांबोळकार |
| ध्वनी संकलन | : | पूर्णानंद च्यारी |
| सिंथसाईजर | : | कृष्णनाथ च्यारी |
| तबला | : | अजीत च्यारी |
| नेपथ्य | : | विजयकांत नमशीकार |
| उजवाडा येवजण | : | अशोक नाईक |
| रंगभुशा | : | दास कवळेकार |

# अकादेमीचे वतीन...

गोवा कोंकणी अकादेमी, नाटक-तियात्र ह्या प्रकाराक एक साहित्य प्रकार मानता. आयचे घडकेक कोंकणी नाटक - तियात्र हे प्रकार कोंकणी संस्कृतिचीं बळिश्ट आंगां जाल्यांत. कोंकणी समाजाक आपणालें पडबिंब दाखोवपी तें एक प्रभावी माध्यम जालां.

गोवा कोंकणी अकादेमीन 1993 ते 2006 ह्या काळांत गोंयच्या गांवगिऱ्यां वाठारांत एकूण चवदा नाट्यमहोत्सव घडोवन हाडले. दर एका महोत्सवांत चार/ पांच नाटकांचो आस्पाव आसता. तातूंत एक/दोन तियात्रांय आसतात. गोंयांत गांवांगांवानी कोंकणी नाटकां जावपाक ह्या नाट्यमहोत्सवांच्या वातावरणाचो खूब आदार जाला.

दिसान दीस कोंकणी नाटकांची मागणी वाडत आसा. अकादेमीच्या पणजे कार्यालयांतल्या पुस्तक विक्री विभागांत नाटकांची मागणी मोट्या प्रमाणांत जाता.

कोंकणी नाटकांची ही गरज भागोवपाक अकादेमीन एके खास येवजणेवरवीं एकूण चार नाटकांची आनी दोन तियात्राचीं हातबरपां पुस्तक रूपान उजवाडावपाचें थारायलें. ते खातीर कोंकणी रंगमाचयेवयल्या आयच्या आघाडेच्या अशा चार नाटककारांची आनी दोन तियात्रीस्तांची रंगमाचयेर जैतिवंत जाल्लीं नाटकां / तियात्र वेंचून काडले. ते नाटककार / तियात्रीश्त आनी तांगेलीं नाटकां / तियात्र अशे -

1. श्री. दत्ताराम कामत बांबोळकार - रंगयात्रीक
2. श्री. प्रकाश र. वजरीकार - घट्टाण... कोणाचें?
3. श्री. भरत नायक - एके रातीन... एके वातीन
4. श्री. राजय पवार - अंता अंता शिरिमंता
5. श्री. तोमाजिन्यू कार्दोज - आमी सगळे एक (तियात्र)
6. श्री. बेन एवांन्जेलिस्तो - देवाक जाय जाल्यार (तियात्र)

आयज हीं सवूय पुस्तकां एका संचान एका बरोबर उजवाडाक येता. कोंकणी रंगमाचयेखातीर अकादेमीची ही एक अप्रूप भेटवण! अकादेमीचे वतीन ही सेवा अशीच चालू उरतली.

**पुंडलीक नायक**

अध्यक्ष

# अंक - पयलो

## देखाव : पयलो

[नाट्यकंपनी चलोवपी दादाचें घर. घरांत सगळेकडेन नाटकाचेंच सामान नदरेक पडटा. तर्फो, घडयो मारून दवरिल्ले पडदे, तलवारी, कपड्यांची लाकडी पेठ, लोडां, वाजोवपाची पांयपेटी अशें सगळें. नाटकांत बसपा-उठपाक लेगीत ह्याच नाट्यसाहित्याचो उपेग जाता. एक राजसिंहासन मात खास जाग्यार वेवस्थीत दवरिल्लें दिश्टी पडटा. वेळ दनपार. दादा, पिराय पंचेचाळीस- पन्नास दरम्यान, हातांत च्याचो कप घेवन बाकड्यार बसला. विनायकमामा, पिराय साठ, सकयल जमनीर शेंदरी घालून न्हिदला.]

दादा : (च्या पितां पितां) विनायकमामा, ओ विनायकमामा उठना? (च्या पीत कांय वेळान) विनायकमामा, मामा...!

विनायक : (एकदम न्हिदेंतल्यान जागो जावन) कितलीं वरां जालीं? (हातुंणाचेर उठून बसता.) तुमी केन्ना उठले? सात जालीं?

दादा : सात! मामा रातीं नाटकाचो खेळ सोपोवन आमी न्हिदल्यातच फांतोडेर पाचांक. सात खंयचीं? सात वरां न्हीद काडली तुमी. दनपारचे बारा जायत आयले.

मामा : बारा! इतलो न्हिदलो हांव? सुस्त न्हीद लागली खूप तेंपान.

दादा : कित्याक? काल रातीं रसीकगड जिंकलो म्हणून?

मामा : आसत! आमकां कलाकारांक आनी कितें जाय दादा? रसीक तृप्त

जावन, जेन्ना फाटीचेर शाबासकीचो हात भोंवडायतात तेन्ना अशें दिसता, आवयच मांडयेर तकली दवरल्या आनी तीच थापटीता. मागीर कलाकाराक अशी सुस्त न्हीद पडटा.

दादा : वा मामा वा! लहानपणापासून तुमचीं अशीं गोड, मनांक धादोस करपी उतरां आयकत आयला हांव. तुमच्या ओठांतलीं उतरां आनी बोटांतले सूर सतत आकयत रावचें कशें दिसता मामा.

मामा : (हांसत हेवटेन तेवटेन नदर मारीत) आरे, नाटकाचें सगळें सामान हांगा हाडून दवरलें आनी तरी म्हाका जाग आयलीच ना? आनी म्हजें पोट खंय दवरलां? काय हाडुंकूच ना?

दादा : (पांयपेटयेकडेन पळेत) तुमचें पोट मुखार ना मामा, तुमचे फाटल्यान आसा.

मामा : (फाटल्यान वळून पळेता) पोट फाटल्यान? (हांसता. पेटयेक हात लावन नमस्कार करता) तूंय म्हणून कमी ना उलोवपाक. पोट फाटल्यान खंय (हांसतां हांसतां हांतुण कंवळून कुशीक व्हरून दवरता.)

दादा : बाकी काल रातीं तुमी जादूच केलो मामा. केन्नाकेन्नाय म्हाका मोठो प्रश्न पडटा. मामा तोच, पेटीय तीच, वाजोवपी बोटांय तींच. मागीर एखाद्याच प्रयोगाक अशे आगळेवेगळे धुंद करपी स्वर अचानक खंयच्यान येतात मामा? इतले प्रयोग केले आनी काल रातीं सत्तावीसाव्या प्रयोगाक नाटकापेक्षांय तुमचे पेटयेंतल्या सुरानीच रसीक पीसो जालो, सुरांनीच शेणून गेलो. तुमकां उबारून माथ्यार घेतलो रसीकांनी. तेंच नाटक, तेच नट, तींच पदां, तींच बोटां तरी एखादोच प्रयोग असो वेगळोच धुंद करपी, नशा चडोवपी!

मामा : (दोळे धांपून आपलेचभरशीं) सूर तेच, तेच सूर - सुरांत सुर...! (उघड) तशीच रात - तेंच चान्नें आनी तोच चंद्र. पूण एखादेच राती अचानक एक मधुचंद्र. नर आनी मादीचें मीलन जालें म्हणजे तोच चंद्र जाता मधुचंद्र. सूर आनी मनाचें मीलन जालें म्हणजे तेच सूर जाता नशेचुर - अचानक एखादे रातीं. (मामा हात फुडें करता. दादा हांसत ताळी दिता) तोंड धुवन येता.

दादा : मामा, तुमी म्हळ्यार ह्या नाट्यकंपनीतलो एक खळखळून व्हांवपी झरो. तुमचें सगळ्यांचें अशें भरदस्त सहकार्य मेळटा म्हणून कंपनी उबी आसा. अडीअडचणीक तुमी सगळ्यांनी सांबाळून घेतलें म्हणून कंपनी एकापरस एक अशे दर्जेदार प्रयोग करीत रसिकांच्या तनामनांत रीगूंक पावली. कंपनीच्या येसाचे खरे धनी तुमी. बाबुराव पेंटर, तबलावादक गोविंदजी, नटवर्य नरहरी, दामाजी आनी एका वेळार कंपनी बुडटा काय उरता, अशा कठीण प्रसंगा वेळार सगळ्यांक धीर दीत धडपडपी आमचे सत्तर वर्सांचे बाजीप्रभू रघूवीरदादा! मामा तुमचेसारखी जाण्टीं अणभवी रत्नां कंपनीच्या गळ्यांत आसा म्हणून कंपनी अभिमानान मिरयता.

मामा : दादा, आमी सगळे पोटाचे धनी. हातार बीदागी पडली म्हणजे घराची वाट धरली. फाटल्यान स्टेज काडूंक जाय, पडदे, तर्फो सांबाळूंक जाय, पोशाख, गादयो, उशीं, दरबारी आसना, सिंहासना हें सगळें वेवस्थीत दवरूंक जाय, पोरणे दुरूस्त आनी इबाडिल्लें नवें करूंक जाय. नाटकाच्या प्रयोगाच्यो तारखो, सगळ्यांची जमवाजमव, खर्च, हिशेब, रूसणे-फुगणें आनी प्रयोग सोंपमेरेन सगळ्यांची नीट वेवस्था, हें सगळें तुमीच पळयतात दादा. तुमी कंपनीखातीर धडपडपाचें, आमी पोटाखातीर जगपाचें.

दादा : नाट्यदेवतेच्या मनांत आसा तोमेरेन खांद मारपाचो मामा. कोण तरी खांद मारूंक मुखार आयलो म्हणजे आपणे हळुच कुशीक सरपाचें.

मामा : दादा, पालखी सरळ आनी बऱ्या रस्त्यावेल्यान वतना खांद मारूंक खूप जाण तयार जातात. पूण कांटच्याखुटच्यांचो रस्तो आनी वाकडेतिकडे चडण लागलें म्हणजे सगळे कूस मारतात, नीतळ वाटेवेल्यान वतले दुसरे पालखेक खांद मारूंक. नाट्यदेवतेचे पालखेक खांद मारप म्हळ्यार आपलेच तीरडेक खांद मारप दादा. एखाद दुसरोच जल्माक येता असो खांद मारूंक तुमचेसारखो. (दादाच्या पायांक हात लायता)

दादा : मामा... मामा! तुमी हें कितें करतात? हांव तुमचेपेक्षां कितलो ल्हान. म्हज्याहून जाण्टे तुमी.

मामा : पिरायेन! पिरायेन जाण्टो हांव. पूण म्हज्याहून कर्तुत्वान जाण्टो तूं. कर्तुत्वान व्हड जाल्ल्या मनशाक पिरायेची शिमम्हेर उरना दादा. फकत धा - बारा वर्सांचेर पडद्याच्यो दोरयो हातांत धरून वरांची वरां, रातीच्यो रातीं, विंगेंत उबो रावपी एक शेंबडो पोर, आयज वरांची वरां रसिकांच्या काळजाच्यो दोरयो हातांत धरून माचयेर विराट दर्शन घडोवपी एक नटश्रेश्ठ, साक्षात शिवाजीराजांक माचयेर जीवंत करून रसीकांक मुजरो करूंक लावपाची तांक आशिल्लो जल्मजात नाट्यकर्मी दादा! दादा तुमच्या कर्तुत्वाक म्हजो नमस्कार.

दादा : मामा ऽऽ ! (वेंग मारता. कांय वेळान) मामा, बसात. च्या करून हाडटां.

मामा : दादा, च्या बी कांय नाका. हांव घरा वतां. घराकडेन पावल्यार म्हयनोभर तरी जालो. फांतोडेचेर तुवें राव म्हणलें म्हणून उरलों. नाजाल्यार रामभाऊबराबर पावतलों आशिल्लों घरा.

दादा : मामा, आतां दनपार जाली. भर दनपाचें वतां रखरखांत वचचे परस, जेवून आड पडून, सावकासायेन चारांचे कार्रेतीचेर वचूं येता.

मामा : जेवण! लग्न केलें माचयेकडेन. ती तुका येस दीत, किर्त दीत, जेवण करून वाडचिना. भुरगेबाळांचो संवसार उबो करचीना.

दादा : म्हाका अशीच बायल जाय आशिल्ली मामा. जिचेलागीं सांगात करतगीच जल्म जाता फकत नाट्यकलेचो. जिका वेंगायतकच परमळ सुटटा येसाचो, किर्तीचो. जिचो हात अचळय केंसांतल्यान भोंवलो म्हणजे जाणीव जाता रसीकहात फाटीवेल्यान भोंविल्ल्याचो. मामा, ल्हानपणातच नकळत हे रंगमाचयेकडेन म्हजें लग्न जालां. एक शेंबडो पोर तिचो घोव आशिल्लो आनी रंगरूप कांयच पळोवंक नाशिल्ली रंगमाची ताची बायल आशिल्ली. बस्स!

मामा : केन्नाकेन्नाय दिसता तुजेंच खरें. नाट्यकलाकार म्हणून जगतलों जाल्यार एकोडोच जगपाचें. आतां म्हयनेभरान नाटकाचे प्रयोग करून हांव घरा वतलों. पूण आपल्याच घरांत आपणेच भीतभीत भितर सरपाचें. प्रत्येकाच्यो अपेक्षा, प्रत्येकाच्यो कागाळी असो कसलो पोटलो जोडून हाडला काय म्हणून पळोवपी भुकेल्ल्यो नदरो, आवडी-

निवडी, आशा-निराशा, सगळें जाणवता. म्हणून मागीर थोडें खोटें, थोडें खरें घालून उमथे मानेन घरांत भितर सरपाचें. हांशिल्लेवरी बेटेंच हांसपाचें आनी उमेदीन खाल्लेवरी कशें-बशें गळ्यासकयल धुकलपाचें. भायर सरचेवेळार बोल्सांत आशिल्ले पांच-पंचवीस घरकान्नीच्या हातार तेकोवपाचे. खबर आसता, तितल्यान तिच्या बोंदेर जाल्ल्या न्हेसणाक लेगीत कपयो मारून जावपाचें ना. पूण दोन दीन सोंपले म्हणजे तिसऱ्या दिसा नाइलाजान हुंबरो हुपपाचो नाटकाच्या फुडल्या प्रयोगाखातीर.

(मामाचो गळो भरून येता.)

दादा : विनायकमामा ऽऽ मामा ऽऽ

मामा : दादा, जोमेरेन तुमी छत्रपती शिवाजीराजांची भुमिका जिवी दवरतले तोमेरेन कंपनी जिती उरपाची आनी तोमेरेन हीं पांच बोटां कशींबशीं ओठांमेरेन व्हरपाचीं.

(उलयत भितर वता. दादा ताचेकडेन पळेत उरता.)

दादा : (भितर पळेत) मामा, तोंड धुवपाक हून उदक जाय जाल्यार भायलेवटेन वतांत उदकाचें तपलें तापलां आसतलें. तातूंतलें घे.

(दादा अस्वस्थ जावन पासयो मारता. ग्रामफोनाचेर नाट्यगीत लायता. सावली, पिराय वीस-बावीस वर्सां. निश्पाप मुखामळ. घागरो-पोलको असो भेस. हातांत कपड्यांत बांदिल्लो ल्हानसो जेवणाचो डबो घेवन भीत - भीत दारांत उबें.)

दादा : (रागान सावलीकडेन पळेत) तूं....!

सावली : (भीत भीत) दादा रागार जावचेना न्हय? कांयच हाडूना हांवें. इल्लीशी भाजी आनी दोनच चपात्यो.

दादा : कोणाक जाय ती चपाती-भाजी?

सावली : तुमचेखातीर. दादा खायात न्हय.

दादा : सावली तुका हांवें कितलेवेळा सांगलें तूं हांगा...

सावली : येवूं नाका. अशें कांयच हाडूं नाका. तरी आसतना हांव येता. कित्याक? म्हाका सांगूंक कळना दादा.

दादा : तूं वच - परत वच तें घेवन.

सावली : दादा, तुमचें हांव कोणच न्हय. पूण तुमी मात म्हजेखातीर एक व्हड नाट्यकलाकार. तुमी सारखें खावचें-जेवचें, म्हज्यान जाता तशें जमता तशें तुमचे नाट्यसेवेक हातभार लागचो इतलीच इत्सा.

दादा : तूं आतां वच. तुका हाताक धरून भायर काडपाचो प्रसंग म्हजे हाडूं नाका सावली.

सावली : तुमी मारल्यार लेगीत वायट दिसपाचें ना म्हाका. तें निमतान तरी तुमचो हात लागप म्हळ्यार भाग्यवानच समजन हांव. रागान जांव पूण तुमी म्हजेकडेन पळयतात हाजेंच व्हडपण दिसता म्हाका. दादा, म्हज्या घरांत तुमचेसारखो एकटो तरी कलाकार आसूंक जाय आसलो. दादा, दादा म्हाका सतत तुमचेच सावळेंत हांगाच रावनशें दिसता.

दादा : (तिडकून) हांगा?

सावली : हय दादा. रावूं? हांव तुमचे नाट्यसाधनेत आडमेळी हाडचें ना.

दादा : हो कितें आरामशीर रावपाचो सुखसोयीचो बंगलो न्ही तुज्या बंगल्याभशेन. तुज्या बापायसारको हांगा थंय भोंवपाक दारांत गाडयो ना हांगा. सकाळफुडें उठटगीर दूद पिवपी तुजेसारखेल्या भुरग्याक हांगा दूद नाशिल्ली खुटी च्या मेळटली. बापायलें एकटें एकसुरें तूं, शिकिल्लें सवरिल्लें, कसलीं पिशेपणा करता?

सावी : म्हाका नाटक आवडटा दादा. म्हाका नाटकांत पुराय रितीन रंगचेशें दिसता. म्हाका नाटक जगपाचें आसा दादा. म्हाका नाटक जगन कशें दिसता.

दादा : नाटक जगचें कशें दिसप आनी नाटक जगप हातूंत गिरेस्त आनी गरीबी येदो फरक आसा सावली. तुजें वयच हें अशें पिशें. ह्या वयांत मनाक जें कितें भुलायता तें चडशें उकलापें आसता. नाटकाची ही दुनिया खूब कठीण आसा. खडकाळ आसा. काट्यांखुटयांची आसा.

सावली : अशें आसूनय ह्या खडकाळ, काड्याखूट्यांनी तुमी व्हड जाले न्ही दादा. कितले व्हड जाले तुमी! नाटकाचो पडदो हळुहळू वयर वचचो तशे तुमी वयर वयर वचत रावले. अंक केन्ना सोपचोंच न्हय आनी

पडदो कन्ना सकयल देंवचोच न्हय अशें तुमच्या प्रत्येक नाटकावेळार मागता हांव. तुमी दिसले काय नदर आनी हात अचळय तुमच्या पायांकडेन वता, प्रत्येक कलाकाराची दर एका रसीकाची. हे नाट्यकलेक लागून तुमचें नांव चारय दिकांनी परमळ्ळें. अशें दिसना हे नाट्यसाधनेंत तुमकां कोणेंच दुखोवचे न्हय, कसलेंच आडमेळें येवचें न्हय. तुमी रंगमाचयेर रंगून वचचें आनी रंगमाचयेवेल्यान देवतगीर तुमच्या पुरो जाल्ल्या जिवाक कोणेंतरी थंड वारो घालचो. तुमची सेवा करची. तुमकां कितें जाय नाका तें पळोवचें. माचयेवेले भुमीकेशिवाय तुमचेर आनी कसल्याच चिंता हुस्क्याचें वजें आसचेंच न्हय. नाटक सोंपलें म्हणजे तुमी तडक वचचें जंय पयलींच कोणेंतरी घालून दवरिल्लें आसतलें न्हिदेचें आसन. तुमी हातुणार घालून घेवचें आनी तुमकां न्हीद लागसर कोणेंतरी चेपीत बसचे तुमचे थकिल्ले पाय. ह्या रंगमंचावेले तुमी राजा आसात दादा, राजा...!

(वेलें उलोवप करतां करतां सावली आसनाचेर बशिल्ल्या दादाच्या पायांकडेन दिमी मारून बसता. हेच अवस्थेंत कांय वेळ 'सई आनी शिवाजी' च्या नाटकांतले संवाद रंगतात)

सावली : राजे, राजे, तुम्ही किती थकून जाता आहात दिवसभर. हे राज्य उभं करण्यासाठी तुम्ही केवढं सोसता आहात राजे?

दादा : सईऽऽऽ!

सावली : सगळ्यांची मनं जपायची, रयतेची गाऱ्हाणी ऐकायचीं, न्यायनिवाडा करायचा, दरबार भरवायचा, गड जिंकण्यासाठीचे डावपेच, तहाची बोलणी, छुपे हल्ले, रणांगणावरची रक्ताची कारंजी, आणि लडता लडता जिवाला जीव लावणाऱ्या आपल्या माणसांचे मृत्यू! केवढं सोसायचं - केवढं सहन करायच तुम्ही एकट्यानं.

दादा : आम्ही स्वराज्याची शपथ घेतलीय सई आई भावानीच्या सेवेसाठी झोडून दिलंय आम्ही.

सावली : तुम्ही आई भवानीच्या सेवेसाठी, मग आम्हाला तुमच्या सेवेसाठी थोडा वेळ द्या राजे. आम्हाला काहीही नको आहे. नको आहेत

आम्हाला भरजरी वस्त्रे, नको किमंती अलंकार, नुसतं गजाची राणी म्हणुनही मिरवण नको आणि कुठल्याही सुखामध्ये नुसतं लोळत राहणंही नको. आम्हाला हवं आहे तुमच्या थकलेल्या देहातून निढळणाऱ्या घामाच्या धारा. तुमचे सगळे कश्ट, चिंता, श्रम, थकवा आमच्या ह्या दोन्ही हातामध्ये घेवून पिऊन टाकायचंय आम्हाला. राजे, राजे तुम्ही कुणी सामान्य माणूस नाही आहात राजे. तुम्ही निश्चयाचा महामेरू, सामर्थ्यवान, वरदवंत सकल सुखाचा त्याग केलेले श्रीमान योगी आहात राजे.

दादा : वेडी आहेस तूं सई, फार फार वेडी आहेस.

(दादा सावलीचो हात घट हातांत धरता आनी हो सगळो भास हाची जाणीव जातगीर तिचो हात सोडून उठून कुशीक सरता. )

भास! हें कितें जाता म्हाका? राजे-सई-सावली-राणी.. सावली, सावली उपकार करून तूं वच. हांव कित्यातच घुस्पूंक सोदिना. तूं वच हांगसल्ल्यान. वच. तुका हांगा रावपाक मेळचेंना. वच.

सावली : तुमचे सेवेक हांव कमी पडटलें अशें दिसता तुमकां दादा? इतलें ल्हान आसा हांव?

दादा : तुवें हें नसतें कितें आडायलां म्हाकाच समजना. तूं वच सावली, तूं वच हांगसल्ल्यान.

सावली : दादा हांव कुसून वतलें ते गिरेस्तकायेंत. म्हज्या आवडीनिवडीचो गोबोर जातलो. तुमी म्हाका धुकलून दिल्यार. खंयच्यातरी एका राजमहालांत सासणाचे बंदखणींत पडटलें हांव. म्हज्यांतल्या कलाकाराक मारूं नाका दादा. ताका जगपाक आश्रय जाय. तुमच्या पांयांकडेन जागो जाय.

दादा : हांव सगळें पयस करून एकटोच वाट माडूंक सोदता आनी नेमकें म्हजेच वाटेर येवन तूं किद्याक आड येता? पायांकडेन जागो दी, सेवेची संद दी...छें! म्हाका कोणालेच सेवेची गरज ना. म्हाका कोणाचेंच अडंबर गळयांत नाका. म्हाका कोणच नाका रंगदेवतेशिवाय. (रागान) कशें आनी कितल्यावेळा सांगप तुका तेंच तेंच.

सावली : हांव अडंबर न्हय, हांव तुमचें वाटेवेलें आडमेळें न्हय. दादा म्हाका समजून घेयात. म्हाका कितें जाय हेंच म्हाका सांगूक कळना दादा. दादा, निदान एकदांच, फकत दिसांतल्यान एकदांच, भाजी भाकरी तरी घेवन येन तुमचेखातीर. येवं?

दादा : (कितें सांगचें तें न समजून वग्गी)

सावली : नाजाल्यार नाजाल्यार तुमचो नाटकाचो खेळ सोंपले उपरांत हुनहुनीत मसालादूद तरी दिवन वचन हांव. अशें तरी जाता?

दादा : (खंयतरी पळयत वग्गी)

सावली : म्हजे हातचें खावूं नाकात, पिवूं नाकात. निदान प्रयोगा उपरांत स्टेज, पडदे, नाट्यसाहित्य वेवस्थीत हांगा हाडून दवरसर तरी लक्ष दिवपाचें काम म्हाका करूंक दियात. तुमी हुस्स्यामेकळे न्हिदपाचें. सुशेग घेवपाचो. इतलें तरी करूं? करूं दादा?

दादा : तूं म्हाका कित्याक छळटा? कित्याक? (मामा येता) मामा, मामा तुमी तरी हे सावलीक समजायात. हें आतां खूब, अती जालें मामा. आतरेपयऱ्यान हें अशेंच चालू उरल्यार हांव सोंपतलो मामा. म्हजो अभिनय सोंपतलो. शिखराच्या तोंकार पावचे पयलीच दोरचो हात सुटून हांव खोल देंगणात कोसळटलों मामा. मामा, ताका हांगसल्ल्यान बरेभशेन वचूंक सांगात.

मामा : (समजीकायेच्या सुरांत) सावली तूं हांगा परत आयलें. इतलें तुका हांवें त्या दिसा समजावन लेगीन! सावली, तुका नाटकात रस आसा, अभिनयाची आवड आसा, तूं नाट्यकलेचेर काळजासावन मोग करता. आमकां समजता. पूण आमकां समजून कितें उपेग? तें समजूंक जाय तुज्या बापायक. गर्भश्रीमंत प्रतिश्टीत लोक नाटक फकत पळेतात. पूण नाट्यदवतेचे सेवेंत रूजू जाल्ले तुजेसारखेल्या चलयांक ते प्रतिश्टित मानिनात. दादाची आनी कसली सेवा तूं करूंक सोदता? एका कलाकाराच्या अभिनयाचेर, ताचे संवादफेकीचेर, ताचे भुमिकेचेर, ताच्या नाट्यगुणाचेर प्रेम करप म्हणजे ताची सेवा केल्लेवरीच. नाट्यकलाकाराक तुजे सारखेल्या रसीकान अशें प्रेम दिवप हातूंतच सगळें मेळटा. तेखातीर तुवें हांगा न

येवन गवप, व्यक्तीशा सेवा करपाची आस्त धरप योग्य न्हय. तूं एक चलीभुरगें, बरे घराण्यांतलें, गिरेस्तकायेंत वाडिल्लें, आवयबापायचें एकसुरें. तुजीय म्हणून कांय कर्तव्यां आसात. जबाबदारी आसा. तुवें अशें वागल्यार तांकां केदो कांच बसतलो. तांचे प्रतिश्टेक केदो मार बसतलो? समाज कितें ओंकतलो? हाची तुका अजून जाणीव ना बाय. तूं नाटक पळोवंक वता तेन्नाच तुजो बापूय तुजेर कितलो संतापता? गच्च भरिल्ल्या थेटरांतल्यान ताणें तुका कितल्यावेळा कशे रितीन ओडीत भायर काडलां तेंय हांव जाणा. तरी आसतना तूं तुजो हट्ट सोडिना? तुजें खंयतरी चुकता अशें तुका दिसना? कित्या-कित्याक म्हणून तुका दादाच्या म्हऱ्यांत रावंक जाय? दादाची शिश्या म्हणून? दादाची धूव म्हणून? काय दादांची घरकान्न म्हणून? (सावली दचकता) इतले दीस हांव इतले स्पश्ट उलयलों ना सावली. उपाट लोकप्रियता, नांवलौकीक मेळिल्ल्या दादल्याकडेन लग्न जावचें अशें दिसप सभावीक आसा. तुकाय तशें दिसता आसत जाल्यार तातूंत तुजो गुन्यांव कांयच ना. पूण तुजें वय कितें? दादाचें वय कितें? वीस-पंचवीस वर्सांचें अंतर! सावली जें आज तुका मोहक, सुंदर दिसता तेंच आनी सात-आठ वर्सांनी तुका राकेसावरी भिरांकूळ दिसतलें. आनी तूं जाणां न्हय? तुज्याच वयाचो, एक दोन वर्सांनी व्हडलो जायत दादांक एक (कांय वेळ दादाकडेन पळेत) दादांक एक पूत आसा. कलानंद! जाणां न्हय तूं?

सावली : (तोंडार हात धापून एकदम रडूंक लागता)

मामा : सावली, सावली तुका दुखोवपाक हांव उलोवं ना. तूं म्हाका धुवेसमान. अणभवांतलल्यान दोन-अदीक उतरां सांगल्यांत तुका. तूं शाणे आसा. समजूतदार आसा. (फाटीर हात भोंवडायत) अशें रडपाचें ना. रडप ना सावली.

सावली : (स्वताक सावरीत) मामा, चार पांच तास रसीकांक मंत्रमुग्ध करपी नाटकांतले माचयेर मनीस अभिनयच करता न्ही मामा?

मामा : हय. अभिनयाचोच जादू तो.

सावली : मनीस खरो आसता. पूण जे भुमिकेंत तो वावुरता ती भुमिका खरी

आसता? तें भुमिकेंतल्यान प्रगट केल्लो राग, प्रेम, माया, शत्रुत्व खरें आसता?

मामा : ना. तें तितलें पुरतेंच खोटें, नाटकी आसता

सावली : नाटकी, खोटें आसता हें जाणा जावन लेगीत, रसीक तें खोटेंपण विसरून तें भुमिकेक समजून घेता. भुमिकेच्या सुखदुखवांत समरस जाता. आनी हांगा! हांगा हांव नाटक करीना. सावलीची भुमिका करीना, तरी आसतना हे खरेंखुरेंचे जीवंत सावलीचें सुखदूख, ताच्यो वेदना मात तुमचे सारखेल्या नाट्यकलाकारांक कळच ना. हांव अभिनय करतां मामा? हांव खोटें नाटक करतां? मामा, हे निर्जीव पेटयेंतले सूर सुददां तिचेवेल्यान फिरतल्या तुमच्या बोटांक जाणवतात. दुसऱ्यांमेरेन तुमकां पावोवंक येतात. मागीर हजारवेळां तींच बोटां म्हजे फाटीवेल्यान फिरतना म्हज्या काळजातल्या सुरांचो मात तुमकां थावच लागूं नये? ह्या जिवंत हाडामासांतले स्वर तुमकां सापडलेच नात मामा? मागीर कलाकार तरी कसले तुमी? कसले?

(सावली धांवत भायर वता. दादा आनी मामा एकमेकांक पळेतच उरतात. पेटयेचेर वेगळेंच सुन्न करपी स्वर काळोख.)

## देखाव : दुसरो

(कलानंद, पिराय सादारण अठ्ठावीस. हातांतले वहीकडेन पळेत एक एक सामान प्रयोगाखातीर व्हरपाक मानायांक फर्मायता.)

कलानंद : (वहींत पळेत) ह्यो तीनय तर्फो व्हरपाच्यो.

(दोन मानाय तर्फो व्हरतात. स्टेज लावपी गुणा, मोटवें कालसांव, शर्ट घालून येना.) गुणा, लोडां कितलीं घाल्यांत गाडयेंत?

गुणा : धाकटी तीन, मोठीं पांच, तीन झगे, धा तलवारी, पांच ढाली, पगड्यो दोन, मुकूट तीन, सहा शेले, दरबार पडदे चार, वींगा वीस,

कमग्पट्टे आठ. चोपडी बघतय नंदा? ह्याच्याफुडें तूं म्हाका फकत नाटक सांग. ता चोपडेन काय बघतय?

कलानंद : गणपतीची मूर्त, हारसो सारखो दवरला न्ही ताणी? नदर मार.. दोगय नवे मनीस धरून हाडल्यात तुवे.

गुणा : नंदा वीस वर्सां स्टेज लायता ह्यो गुणा. जसां ट्रकांत भग्ला तसां सामान परत येताला. तूं अजून पारखूंक ना ह्यो गुणाक.

कलानंद : तेखातीर म्हणूना. पूण येदेशें मातशें कितेंय ह्या वस्तूंक जालें जाल्यार दादांक किनें दुखता तें जाणा न्हय तूं? एकवेळ कलानंद मोडल्यार जाता, पूण तर्फ मोडूंक जायना. कांय वर्सां आदीं फुडल्या अंक पडद्याक उजवातीची कीट लागून बुराक पडलो. त्या दिसा जेवले सुद्दा ना दादा. कोणाच्याय हातान कितेंय घडूं निमणो दोशी कोण? कलानंद!

गुणा : नंदा तूं हलींसरा तिडकतच आसता आं. तुजां आतां लगीन करूंक व्हया. सांगतय मी दादांक.

कलानंद : तूं जा पयलीं त्या रत्न्याकडेन. मागीर हांव जाता.

गुणा : मगे म्हणजे? मी मेल्यानंतर तूं जातलय रत्न्याकडे?

कलानंद : गुणा तूं बेजार करी नाका म्हाका आं.

गुणा : हंस रे नंदा. माणसान सदीं हसूंक शिकूंक व्हया. मगे जाण्टेपणात हसूंक मेळाचा नाय.

कलानंद : कित्याक?

गुणा : पडलेले दात दिसतात मगे.

(मानाय येतात.)

कलानंद : जालें न्ही सगळें भरून? हो पडदो व्हरून फुडल्या सीटार दवर. गुणा मांडयेर घेवन बसतलो.

ज्ञानेश : असलोच नवो पडदो घेतला पात्रांव. हो आनी कित्याक? हो पिंजला पळय.

कलानंद : तुका सांगता तितलेंच कर. हो पडदो लावपाचो न्हय. कंपनीची मिरास ती. गणपतीच्या आरतीबराबर दादा ह्या जुन्या पडद्याचीय आरत करता. त्याबगर नाटक सुरू जायना.

(मानाय पडदो खाक्यांत मारून चलपाक लागता.) आरे, हें कितें खाक्यांत मारता? ती कितें चुमळ समजता? आतां हांगा दादा ना म्हणून. नाजाल्यार येन्ना येन्ना तुजे दोनय कानाचे पडदे तांबडे जातले आशिल्ले.

गुणा : (मानायाकडेन तिडकीन पळेत) भोसडेच्या, खाक्यांत मारतसय, खाक्यांत मारतसय? (मानाय पडदो सारखो हातांत धरून भायर धांव मारता.) मी एकदां असाच खाक्यांत धरललय.

कलानंद : पडदो?

गुणा : (व्हय म्हूणून तकली हालयता) रत्न्याक.

कलानंद : झक मारूं तुजें तें रत्नें.

गुणा : बरें. आतां हें आसन व्हरूं. सगळां भरून जालां.

कलानंद : राव. दादांक विचारता. दादाचे न्हावन जालें काय? दादाऽऽऽ हें सिंहासन व्हरपाक घेवं आमी?

दादा : (भितरल्यानच) सगळें सामान भरून जालें?

कलानंद : हय. फकत आसन व्हरपाचें उरलां.

दादा : (भायर येता. नटराजाचे मुर्तीक पांयां पडटा. मागीर आसनाचेर तकली दवरून पांयां पडटा.) व्हरात. बरे करून वचात. गुणा गाडयेंत चडटगीर परत एकदां नदर मार. सांबाळून वचात. आमी रातचे येतले. कलानंद, गुणाकडेन पयशे दिल्यात?

कलानंद : हय दादा.

दादा : हे दोगय नवे भुरगे?

गुणा : हय दादा.

दादा : फकत कामच करून घेवं नाका. पोटभर खाया पियात. गुणा, एकेकाळार आमी उपाशी धडपडल्यात. आज तशेच धडपडूंक जाय म्हणून ना. कोणाक कांयच कमी पडूंक दिवं नाकात. कंपनी आज स्वताच्या पांयार उबी आसा ती तुमकांच लागून.

गुणा : (दादाच्या पायांक हात लायता) येतां दादा. (गुणा, मानाय आसन घेवन वतात)

कलानंद : दादा, विनायकमामान रकाद धाडला आपूण हांगाच येता. बराबर

या. बाकी सगळे भायलेभायर थंय येतले.

दादा : बरें आसा.

कलानंद : बाबुराव, गोविंदजी, नरहरी आनी विनायकमामा खातीर थंयच एका घरांत कुडीची वेवस्था केल्या. नाटक सोंपतासर साडेतीन चार तरी जातलींच. तांच्यानी थंयच कुडींत न्हिंदून दुसरेदिसा वचूं येता. हांव मात स्टेज घेवन रातचोच येतलों.

दादा : हुं!

कलानंद : (हातांतली बडी फुडें करून) दादा, परच्या प्रयोगाचो हिशोब पुराय केला. तुमी एकदां नदर मारात.

दादा : आसूं.

कलानंद : आसूं! (अजापान दादाकडेन पळेत) दादा हांव नाटकाच्या हिशोबाविशीं म्हणटालों.

दादा : आं... हिशोब. मागीर सवकासायेन पळयन हांव.

कलानंद : मागीर! दादा, तुमच्या जिवाक बी बरें दिसना?

दादा : (गोंदळून) आं! ना. तशें कांय ना.

कलानंद : दादा, फाटलो म्हयनोभर हांव तुमकां पळयतां. तुमी गोंधळील्लेवरी, अशे उदास, म्हणजे खूबच वगीवगीशे?

दादा : उदास! छॅट. कंपनीचो ताण आसता तकलेर. नव्या नव्या प्रयोगाचे विचार आसतात तकलेंत.

कलानंद : हे ताण, विचार कंपनी जल्मतपासून आसात. पूण आजमेरेन अशा कारणाक लागून तुमी इतले उदास जालेनात. हिशेबाचेर नदर मारपाक 'आसूं' केन्ना म्हणलेंना. दादा, प्रयोग जायनाफुडें तेच राती बसून हिशेब पुरो करपी तुमी आज 'आसूं'! कितें जालां दादा?

दादा : (बळयां हांसत) आतां कांयच जावंक ना जाल्यार हांव कितें सांगू तुका? एखादवेळ आयज पन्नासावो प्रयोग, तेनिमतान सत्कार सुवाळो. थोडेशें मनाचेर चेपण आयलां आसत.

कलानंद : आसत. हें एक तुमचें म्हणणें समजूं येता. पूण आठ दिसा पयलीं केल्ल्या प्रयोगावेळारय तुमी अशेच दिशिल्ले म्हाका.

दादा : आं!

कलानंद : दादा, हांवें तुमकां म्हणूंक ना. कदाचीत तुमकां कोणेय म्हणलां आसत नासत, कदाचीत कोणाक जाणवलेंय नासत. पूण दादा, फाटल्या प्रयोगाक तुमची भुमिका सदचेवरी रंगूंक ना. फाटले आठ-धा प्रयोगांक तुमची भुमिका एक-एक पावल सकयल देंविल्ल्यावरी जाणवल्या म्हाका. म्हणजे भुमिका बरी जाताच. ना म्हणिना हांव. पूण भुमिका करतना तुमी अर्दे भितर आनी अर्दे भायर आशिल्लेवरी जाणवलां म्हाका.

दादा : (उठता) कलानंद!

कलानंद : माफ करात दादा. कंपनीचो हिशेब पळोवप्यान भुमिकेचो हिशेब मांडचो न्हय. कदाचित म्हजे नदरेक पळोवपांत चूक...

दादा : कलानंद, तुजी नदर चुकूंक ना. म्हाकाय जाणवलां, जाणवता. हांव कमी पडटां. कलानंद, इतलो तेप तुका हांवें माचयेर चडयलो ना. नाटकाचो हिशेब, प्रयोगाची वेवस्था पळोवपाकूच उरलो तूं. पूण जी पारख हेरांक जाली ना, ती तुजे नदरेन केली. माचयेर चडपा इतलो तूं आतां परिपक्व जाला. तुवें आतां माचयेर चडूंक जाय कलानंद तुवें माचयेर चडूंक जाय.

कलानंद : ना, ना दादा. हिशेब, व्यवस्था पळोवपाच्या निमतान माचयेर चडप-देंवप जाता तितलेंच पुरो. नट म्हूणून हांव माचयेर चडचो ना.

दादा : तुज्यांतलो पूर्ण रूपांतलो नट म्हाका स्पश्ट दिश्टी पडटा कलानंद.

कलानंद : म्हज्यांतलो नट आज पूर्ण जाला, काय म्हज्यांतलो नट पळोवपाची तुमची नदर आज पूर्ण जाल्या दादा?

दादा : (अनपेक्षीत) कलानंद...!

कलानंद : दादा, म्हाका माचयेर चडोवपाचो जाल्यार तुमी तेन्नाच चडोवपाचो जेन्ना फकत पंदरा वर्सां पिरायेचेर अचकीत, ऐनवेळार युवराज संभाजीची भुमिका हांवें केल्ली. नाटक सुरू जावपाक फकत पंदरा - वीस मिनटां उरल्यां आसतनाच, युवराजांची भुमिका करपी अचानक भायर पडलो म्हूणून निरोप आयलो. प्रत्येकाच्या काळजांत खपखप, गळ्यांत हुंदक्यार हुंदके, पुराय स्टेजीचेर काळेंकुट्ट सांवट. दादा, तुमी थरथरत, थरथरत सगळ्यांक सावरले, म्हज्या म्हन्यांत

आयले आनी म्हजे फाटीर हात मारून म्हाका युवराजाची भुमिका करूंक पाठबळ दिलें. दादा, प्रत्येक प्रयोगाक तर्फेच्या कडेन बसून म्हाकाय केन्ना पार्ट करूंक मेळटलो काय म्हणून चितपी कलानंदाक एक संद मेळ्ळी. तनमन ओतून हांवें ती भुमिका अशे रितीन केली, नाटक सोंपल्या उपरांत कितलोसोच वेळ हांव रसीकांच्या खांदारच उरलों. जो तो येवन म्हाका उबारून माथ्यार घेतालो. दरएकट्यान तुमकां सांगलें, 'ही भुमिका कलानंदाकच दी दादा.' त्या दिसाच्यान प्रत्येक प्रयोगाक, प्रत्येक नव्या नाटकांच्यो भुमिका वांटपावेळार हांवें आशेन वाट पळयत बसचे आनी दरवेळा म्हज्या हातांत येवची प्रोम्पटींगची वही! आनी ताच्या उपरांत म्हाका बढती मळ्ळी कंपनीचो वेवस्थापक म्हुणून, ही हिशेबाची वही. दादा, तुमी चिड्डून माड्डून उडयला म्हज्यांतल्या कलाकाराक. मारून उडयला. आतां उबो रावचो ना तो माचयेर, केन्नाच!

दादा : हांवें मारला तुज्यांतले कलाकाराक? एक कलाकार मारीन दुसऱ्या कलाकाराक? तूं चुकता कलानंद. गैरसमज करून घेतला तुवें.

कलानंद : आजमेरेन उलयलो ना. उलोवचोंय नाशिल्लों. पूण म्हज्यांतलो मेल्लो कलाकार आज तुमकां पूर्ण जाल्लो दिश्टी पडलो म्हणून उलयलों.

दादा : खूब पयलीं उलोवंक जाय आशिल्लें तुवें. तुज्यांत धुमसत उरिल्ले हे गजालीचो थाव म्हाकाय कित्याक लागलोना इतलो तेप? कित्याक मनाचे पेटयेंत गच्च धापून दवरलें तुवें सगलें? तुजो तन्नो गैरसमज त्याचवेळार खुदून उडयतलों आशिल्लों हांव.

कलानंद : चुकीचो समज न्हय दादा. म्हजी खरी चूक जाली ती हांव तेन्ना रंगमाचयेर चडलों तीच.

दादा : कलानंद, तुवें तेन्ना युवराजाची भुमिका सुंदररितीन केली दुबावूच ना. पूण जर ती भुमिका पडिल्ली-फशिल्ली जाल्यार? तुजी आनी तुजेबराबर म्हजीय छी थू जातली आशिल्ली. लोक घडये फातरय शेंवटितले आशिल्ले आनी कंपनीखातीर बापूय आनी पूत मुकाट्यांनी सोंसतलेय आशिल्ले. जर तीच भुमिका कंपनीतल्या आनी कोणाकय दिल्ली आनी ताच्या वांट्याक फातर आयिल्ले जाल्यार? जाल्यार

दादान आमकां ऐनवगतार भुमिका दिवन फातर खावयले. रसीकांकडल्यान अपमानीत जावचें पडलें अशे थ्रांमणे आमकां आयकूचें पडटले आशिल्ले. जेन्ना कोणय नाट्यकंपनी चलयता तेन्ना ताका सगळ्यांक सांबाळून घेवचें पडटा कलानंद. देखून ती भुमिका उपरांत कायमरूपान तुका दिवप शक्य नाशिल्लें. त्यावेळार तुजेपरसय जेश्ट, ल्हान – ल्हान भुमिका करीत आयिल्ले नट कंपनीत वावुरताले. आमकां थंयच दवरले आनी पुताक वयर काडूंक पळेता म्हणून तोंडा फिरयतले आशिल्ले. तातूंतल्यान केदेंय संकट उप्रासू येतालें आनी निकतेंच मूळ घेवंक पळोवपी कंपनीचो गेपो मुळासकट हुमटून पडूं येतालो. म्हाका नाटक जगोवपाचें आशिल्लें आनी नाटक जगयतलों जाल्यार कंपनी जगूंक जाय आशिल्ली.

कलानंद : वा! वा दादा वा! कंपनीतल्या जेश्ठांचेर अन्याय जातलो म्हणून म्हज्यांतल्या नाट्यकलाकाराक असो कडेक उडोवन न्याय दिलो तुमी? वा!

दादा : कलानंद, नाटकांतल्यान तूं छत्रपतीचो इतिहास पानानपाना शिकला. पावनखिंडीत बाजी सारखे शूर, तेजस्वी विगाक सोडून राजांक विशालगडाचे दिशेन धावचें पडलें तें हिंदवी राज्याच्या फुडाराखातीर. बाजीचो बळी दिवपाखातीर न्हय. बाजींच्या आंगातले शुरतायेची फकाणां करपाखातीर न्हय. तर फकत स्वराज्याखातीर.

कलानंद : स्वराज्याखातीर, राज्याच्या रक्षणाखातीर, राज्याच्या फुडाराखातीर बाजींक पावनखिंडीत लडपाची संद दिली राजानी. बाजींक लडतां लडतां मरण आयलां. कोणाकतरी खूश करपाखातीर राजानी आपलेच तलवारीन तांची मान धडा सकयल करूंक ना दादा.

दादा : कलानंद!!

कलानंद : तुमी म्हाका लडपाकच दिवूना दादा. निशस्त्र करून छावणींत बसयलो तुमी म्हाका.

दादा : (हताश जावन) कलानंद....!

कलानंद : हांव माचयेर चडचो ना दादा. बस्स! तुमच्या कंपनीच्या नाटकांत तर केन्नाच ना. दुसरे कोणालेय कंपनीत तशीच जबरदस्त भुमिका

मेळ्ळ्यार चडन हांव माचयेर. रघुनाथ केन्नादर वाटच पळयता म्हजी. दादा, तुमचे कंपनीत तुमची मुखेल भुमिका आसूनय तुमची नायट पंचवीस रूपयावयर वचना. रघुनाथ सुर्वेकच पंचवीस रूपया दिवंक तयार आसा म्हाका. (वता.)

दादा : रघुनाथ रघुनाथ! कळना म्हजें खंय चुकलां. आमचेच तालमीत रघुनाथाचो घडलो एक नाट्यकलाकार. आमचेच कंपनीत रघुनाथाक मेळ्ळी रसीकांच्या काळजांत एक सुवात. खंय दिसता थंयच दादांच्या पांयार मस्तक दवरपी रघुनाथ असो अचानक आमचेरच परतुचो. स्वताची नाट्यकंपनी उबारपी रघुनाथान खीणाखीणाक आमचो अपमान करचो, आमचे वाटेर आडमेळीं उबीं करचीं, आमची कंपनीच कोंसळची म्हणून खर यत्न करचे? आनी आतां आमी येसाच्या हुंबऱ्यार उबे आसतना खुद्द आमच्या घरांतल्या कलानंदाक फितोवपाचो यत्न करचो? कलानंद तुका तरी रघुनाथ कळूंक जाय आशिल्लो. ल्हानपणांतलें एदेशे घडणुकेचें निमीत्त घेवन तूं दुस्मानाक वचून मेळपाची भास उलयता? कलानंद...

(दादा खुर्चेतच घालून घेता. 'आज हे असं कां होतय कां - आज हे असं कां होतय...' हें वाक्य घुमत रावता. तसो दादा हेवटेन तेवटेन पळेत छत्रपतीचे भुमिकेंत वता.)

आज आज हे असं कां होतंय? हे श्रीचं राज्य उभ करण्यासाठी आम्ही कैक वेळा विचार करून एक एक पाऊल पुढं टाकीत असताना, आमचीच माणसं आम्हाला पदोपदी कां बोल लावताहेत? आम्हाला कुणीव कां बर समजून घेत नाहीत? (पवित्रो बदलून) युवराज, युवराज वाघावर झेप घेण्याचं का तुमचं वय आहे? गांवांत वाघाचा धुमाकूळ चाललाय हे समजल्यावर तुम्ही निशस्त्र अवस्थेंत घोडा तिथं वळविला? मान्य आहे तुम्ही वाघाला मारलंत. मान्य आहे तुम्ही ल्हान वयांत फार मोठा पराक्रम केला, मान्य आहे प्राप्त परिस्थितींत तोंड देऊन तुम्ही रयतेचं वाघापसून रक्षण केलंत. गांवकऱ्यांनी तुमची वाहवा केली, तुम्हाला डोक्यावर घेतलं. म्हणून आम्ही नाही शाबासकी देऊ शकत. शंभुराजे तुम्ही विचार नाही

केलात की जर तुमचं बरंवाईट झालं असतं, उमलत्या वयातच तुम्ही कोसळला असता तर रयतेनं आगेपीच्या वेशीवर आम्हालाच उभं केलं असतं. हे श्रीचं राज्य आम्ही उभं करतोय ते कुणासाठी? हे कुणी सांभाळायचं. तुम्ही फार जवळचं पाहिलं युवराज आणि आम्ही फार दुरचं पाहिलं हेच तर आमचं चुकलं नाही ना?

(रागान) येसाजी, रूपाजी युवराजाना घेऊन चला. आम्हाला विश्रांतीची गरज आहे. आम्हाला एकांत हवाय. आम्हाला एकटं वाटतं. फार एकटं वाटतं. आम्हाला आधार हवाय – कुणाचा तरी आधार हवाय.

(थकिल्ले स्थितींत परत खुर्चेत लंवडता) भायल्यान 'दादा...दादा...' करीत विनायकमामा येता.)

मामा : दादाऽऽऽ दादाऽऽ

दादा : (आपणाक सावरीत) मामा, आज खुशींत.

मामा : दादा, एक दीस तुमकां हांवें म्हणिल्लें याद आसा?

दादा : कितें?

मामा : की तुमचेंच खरें. नट म्हणून जगतलो जाल्या एकोडीच जगपाचें. म्हणजे ह्या नाटकाच्या पिशांचे भोग दुसऱ्याक आनी भोगचे न्हय.

दादा : हय, हालींच केन्नातरी म्हणिल्लें तुवें.

मामा : दादा, तेभरशी हांव उलोवन गेलों. खरें सांगूं, तें खरें न्हय. ह्या संसारांत जगतलो जाल्यार बायलमनशेचो आधार जायच. एक सांगातीण जायच दादा. नाजाल्यार कांयच अर्थ ना जगपांत.

दादा : मामा, रणांगणांतल्यान भिवन पळ काडपी शिपायासारके भित भित घराकडेन वचपी तुमी! आज हे अशे अचानक....!

मामा : दादा, धुवेच्या लग्नाचें थारलें. जांवयांक तुमी वळखतले. कुडाळचे प्रताप भोसले.

दादा : वा.. वा. मामा. अवघ्या चार दिवसांत प्रताप गड जिंकला. (वेंग मारतात)

मामा : हांवें कितें केलां दादा? हांव भिवकुरो सेनापती म्हजे घरवो. घरचें कशें चलता ह्या भयानच केन्ना विचारलें ना आनी तिणेय आपूण

कशें चलयता तें म्हाका केन्नाच कळूंक दिलेना. पूण घराकडेन गेलो तेन्ना ध`.चे लग्नाखातीर म्हणून हाडिल्लीं ताटां, पेले, आयदन-पायदन पासून कापडां, शिवण, उशीं चिरयो पळोवन हांव थंयचे थंयच थक्क जालो. खीणभर दिसलें, हें घर म्हजे जोडीचेर ना, हांगा बापूय म्हणून कुस्कुटायेदीय म्हजी गरज ना. भितभीत जायना पूण घरच्यांचे ओडीन हांव घराकडेन येतालो तरी कित्याक? हांव कोण तांचो? अशा प्रस्नांनी म्हाका रेवाडो घालो. तितल्यान सावित्री म्हऱ्यांत आयली. म्हणूंक लागली, तुमी आयिल्ले आसतनाच शेटीगेर वचून मणी करपाक सांगून येयात. सावित्रीच्या आनी धुवेच्या दोळ्यांत पळयतां पळयतां म्हाका म्हज्यांतले उणेपणाची, रीकाम्या हाताची, भिजुडपणाची खरपणान जाणीव जाली आनी तांच्या सामकारच म्हजे दोळे भरून आयले दादा. हांवे म्हणलें, 'सावित्री, तुवें हें सगळें कशें केलां कोणाकडल्यान रीण काडलां, कितें घाण दवरलां, तें हांव विचारचो ना. पूण बापूय म्हणून जो धुवेच्या लग्नाक हांवे हातभार लावूंक जाय आशिल्लो तितली तांक म्हज्यांत ना. एक मणीच न्हय मणी गुंतपाखातीर सुताचे चार काळे पोड हाडपाचीय जोड म्हज्या बोल्सांत ना.' कितल्या तेपान सावित्रीन म्हजो हात धरलो, हातांत पयशे दिले, म्हणूंक लागली, 'हें सगळें तुमचेंच. तुमी जें कितें दिताले तातूंतलेंच सांबाळून सांबाळून हें सगळें केलां. तुमच्याच सुराचे पेटयेन दिल्लें हें धन.' दादा, कंपयो मारून मारून न्हेशिल्ल्या त्या कापडांत केन्नाच न्हय अशें देवतेचें रूप हांवें पळयलें. दादा घरकान्न, सांगातीण म्हळ्यार कितें तें म्हाका इतल्या वर्सांनी त्या दिसा होलमलें.

दादा : मामा, आनंद जालो. खोस जाली. आनंद जालो तुमचे धुवेचें लग्न म्हणून आनी खोस जाली तुमच्या आयुश्यांत तुमकां समजून घेवपी तुमकां आदार दिवपी कोणतरी तुमचेलागीं आसा म्हणून. मामा, आज आमच्या नाटकाचो पन्नासावो प्रयोग. नाटकाचे पयलीं थंयचो रसीकवर्ग म्हजो सत्कार करतले. पांचशे रूपयांची थैली दितले. मामा, तातूंतले शंबर रूपये तुमचे धुवेक म्हजो आहेर म्हणून.

मामा : शंबर रूपये...!

(मामा दादाच्या पायांक हात लावंक बागवता. दादा ताका घट धरता. दारार टक टक वाजता. दारांत उद्योगपती विश्वासराव जोग, पिराय पंचावनचे आसपास. भारदस्त भेसांत. हातांत रोत.)

विश्वासराव : (सरळ भितर येत) भितर येवं काय म्हणून विचारनासतनाच हांव आयलां. कारण हांव च्या पिवपाक येवना. पायां पडपाक आयलां. आनी पाया पडपाक वता थंय भितर येवं काय म्हणून विचारपाची गरज नासता.

दादा : पायां पडपाक?

विश्वास : हांव उद्योगपती विश्वासराव जोग. सावलीचो बापूय.

दादा : आमी मेळ्ळयात हाचेपयलीं. हांव वळखतां तुमकां.

विश्वास : नाटकाच्या जागरणानी विसर पडूं येता म्हणून वळख परत एकदां दिल्या. तुमकां पायां पडपाक आयिल्लो हांव.

दादा : विश्वासराव म्हाका कुवाडीं समजना.

विश्वास : एके चलयेच्या बापायक दुसऱ्याल्या घरांत पायां पडपाक वचचेंच पडटा. एकतर चली पदरांत घे म्हुणून सांगपाक. किंवा चलयेचे वाटेक वचूनाका म्हणून सांगपाक.

दादा : बसात.

विश्वास : (घरभर पळयत) वा! वा! ह्या नाटकी खुर्च्यांचेर, ह्या खाटल्याचेर आमचें सावली बसतलें, उठतलें आनी न्हिदतलें सुध्दा. बंगल्यातले अस्सलीत मांव उबेच्या गादये खुर्च्यांचेर खेळपी सावलीक ही नाटकी मोवसाण तोपची तर ना मूं?

मामा : आमचे नाटकवाल्यांचे हे अशेंच आसता जोगसायब. कलेच्या मोगान पिसावल्लो आसता कलाकार सुस्त, गिरेस्तकायेचें जगप क्वचीतच येता ताच्या वांट्याक.

विश्वास : हें सगळें खरें आमून लगीत एके निरागस, भोळेभाबडे चलयेक तुमी ह्या पिसावल्ल्या कोंडांत ओडूंक पळेतात?

दादा : तुमचो गैरसमज जालो विश्वासराव. सावलीक समजावपाचो आमी आमचे परीन खूब यत्न केला, करतात.

विश्वास : समजावपाचो यत्न केला म्हणजे कितें केलां? तोंडाची फकत बडबड

केली आनी दुसरेंवटेन फाटीवेल्यान हात भोंवडावन घेतलो हाकाच तुमी समजावपाचो यत्न म्हणतात?

दादा : विश्वासराव, तिका हजारवेळा समजावन लेगीत तीच परत परत हांगा येता. तिका कोण ओडून घेवन येना.

विश्वास : ओडून भायर तरी काडूं येता काय ना तुमकां? कानशिलांत एक दिवपा तरी येता काय ना? पूण तें करिनात तुमी. फाट सासपीत बसतात. नाका नाका म्हणीत तळटाचेर आयतोच पडिल्लो खीरीचो थेंबो चाखीत बसतात तुमी. कसलीं नाटकां करतात ह्या वयांत नटवर्य दादाम्हाराज?

मामा : (तापून) विश्वासराव...! (सावरीत) धुवेच्या असल्या वागण्यान बापायक मनस्ताप जाता हें आमकां कळटा. पूण त्या मनस्तापाक लागून एका म्हान नाट्यतपस्वीक तुमी तुमच्या ऑफिसांतल्या शिपायासारखे उलयतात हें तुमकां मात कळू नये हाजेंच वायट दिसता.

विश्वास : नाटकांतले संवाद स्टेजीचेर उलय. हांगा उलयले म्हणून म्हजेकडल्यान ताळी मेळची ना. हूं! बापायक जातलो मनस्ताप कळटा. फकत भुरग्यांक जल्माक घालीं आनी नाटक घेवन जगार हेडत रावलो म्हणून बापूय जायना विनायक. धुवेक वाडयल्या आमी बापायच्या कर्तव्यान आनी जपल्या आवयचे मायेन. तिचें एक नाकूट सांबाळपाखातीर आमी दिसाक खर्च करतात तितली एका प्रयोगाची येणावळ आसची ना तुमची.

दादा : (चिडून) विश्वासराव तिचें नाकूट सांबाळपा बदला तिचें मन सांबाळिल्लें जाल्यार ती हांगा धांवत येवचीच नाशिल्ली.

विश्वास : तुमी नाटकां करतात काय दुसऱ्याल्या चलयांचीं मनां सांबाळटात हांगा? तुमकांय चलो आसा. ताचें मन कितलें सांबाळ्ळां तुमी? काय फकत चलयांचींच मनां सांबाळटात? (दादा मान सकयल घालता) आतां दोळे जमनीवटेन कित्याक गेले? आमी ब्युजीनेसमॅन दादा. आनी ब्युजीनेसमॅन हो खंयीय वचचे पयलीं सगळ्यो खामो-खुमो जाणून घेवन वता.

मॉमी : विश्वासराव, हो जाण्टो तुमकां पायां पडटा. विनयता. तुमकां जें

कितें सांगपाचें आसा, उलोवपाचें आसा, तें आनी केन्नाय उलोवया. जाय जाल्यार तुमी सांगश्यात त्या दिसा बंगल्याग येवं आमी. पूण आज नाका. आज दादांक त्रास जातलो तुमच्या उलोवण्यान. आज आमच्या नाटकाचो पन्नासावो प्रयोग. ताचें दडपण मनाचेग आसाच. त्याशिवाय दादानी निमार्ण केल्लो रसीकवर्ग आज तांचो सत्कार करतात.

विश्वास : आनी पांचशे रूपयांची थैलींतल्यान भीकय घालतात.

मामा : विश्वासराव, तुमी आमचो अपमान करपाकच आयल्या हांगा?

विश्वास : ज्या नाटककारांक कुस्कुटाचोय मान ना तांचो कसलो अपमान?

मामा : तुमी ह्या मामाक तुच्छ लेखात, जाय जाल्यार ह्या दादांक उणाक समजयात, पूण कलेचो अपमान करूं नाकात. नाटकाक तुच्छ लेखूं नाकात.

विश्वास : नायकीणीन नाचाखातीर सजयिल्ली माळी आनी नाटककारानी नाटकाखातीर शिंगारिल्लो माटव हातूंत कसलोच फरक ना मामा. थंय येतल्यांच्या मनाची रीजवण करप इतलेंच काम तुमचे.

दादा : मामा, तांका वचूंक सांगात. उपकार करून ताणीं हांगसल्ल्यान वचचें.

विश्वास : राव म्हणल्यार तरी हांगा रावपाची इत्सा कोणाक आसा. वचचे पयली परतून एकदां सांगता. दादा, तुजें हें म्हातारचळ हांगाच थांबय. म्हजे धुवेक म्हजेपासून तोडपाचो यत्न करून म्हजें उरिल्लें आयुश्य उबंत करपाचो यत्न जालो जाल्यार नाटक सुरू जावचे पयलीच आख्खे कंपनीचो पडदोच सकयल देंवतलो हें लक्षांत दवरात. तुमची नाट्यकंपनी पुराय भुयसपाट करपाक म्हाका इल्लोय वेळ लागचोना. तुमच्या प्रत्येक नाटकाच्या माटवाम्हऱ्यांत रघुनाथाचोय माटोव लागतलो. तुमच्या प्रयोगाच्यो सगळ्यो तिकेटी खपतल्यो, पूण भितर एकसुध्दा नाटक पळोवपी आसचोना. म्हजेकडेन खेळ खेळूं नाकात. (विश्वासराव वता. दादा खीन्न अवस्थेंत)

मामा : दादा... दादा...

दादा : हूं...!

मामा : दादा हांव जाणा, तुमकां आज खूब मनस्ताप जालो. जमता जाल्यार आयचो प्रयोग रद्द करूया. हे अवस्थेंत तुमी शिवरायाचे भुमिकेंत रंग भरूंक शकचे ना. तुमचे प्रकृतीचें कारण दिवन प्रयोग फुडें धुकलूं येता.

दादा : मामा, आतामेरेन आमी शिवाजीराजांच्यो भुमिकाच केल्यो. आतां उरिल्लें आयुश्य तरी शिवाजीराजांसारखे जगपाचो यत्न करूया. मामा आमी हाका ताका भिवन भिवन तरी कितले दीस काडपाचे? हो कितें म्हणटलो आनी तो कितें करतलो अशें चिंतपातच सोंपत वतात आमी. मामा जितले जितले आमी भितले, तितले तितले काळखांत लोंबकळपी विश्वासरावासारखे कापसाचे बावले आमकां भुतावरीच भिशटायतले. मामा म्हजो निर्णय थारला. सावलीक तिची खर इत्सा आसा जाल्यार एक कलाकार म्हणून दादाच्या घरांत आश्रय मेळटलो.

मामा : दादा! चलयेक कोण दोश दिवचो ना. आमकांच बोटां दाखयतले. कंपनीची कुतां काडूंक पळोवप्यांचें आयतेंच फावतलें. ना दादा, हें खंयतरी आतां थांबूंक जाय.

दादा : सावलीक रंगमाचयेची ओड आसा. आमचेविशीं आदराची भावना आसा. नाट्यकलेच्या मोगान तिका रंगदेवतेचे सेवेंत रंगचेशें दिसता. हातूंत सावलीचें कितें चुकता अशें म्हाका तरी दिसना.

मामा : पूण दादा, एके वयावेले चलयेक घरांत दवरून घेवप, सांबाळप म्हळ्यार...

दादा : मामा, सावली एक वयावेली चली इतलेंच तुमी पळयतात. पूण सावली ही एक निकतीच फुलूंक पळोवपी एक कलाकार हें तुमी विसरतात. नाट्यकलेची सेवा करपाक आशेल्ल्या एका कलाकाराक दुसरो कलाकार जर आदार करिना जाल्यार कलाकाराक हात तरी कोणे दिवप? मामा, म्हज्या दोळ्यांसामकार एक भिरांकूळ चित्र उबें आसा. एक म्हान नाट्यतपस्वी म्हणून एका म्हाताऱ्याचो हार तुरे, थैल्यो दिवन व्हडलो सत्कार जाता. सगळें जग त्या म्हाताऱ्याकडेन कौतुकान पळेता. त्याचवेळार एक बायल एका व्हडा

बंगल्याचे बंदिस्त कुडींत आसरमांडी घालून बसल्या. तिच्या गर्भातलें कलेचें एक निर्जीव बाळक मांडयेर घेवन ती त्या म्हाताऱ्याकडेन पळोवन म्हणटा, 'खुनी, खुनी - म्हज्या ह्या बाळकाची हत्या केल्या ताणे.' म्हाताऱ्याच्या गळ्यांतले हार आवळूंक लागतात. हारांचे जातात फासांचे दोर. स्वास कोंडटा, ताळो सुकता आनी म्हातारो लोंबकळत उरता मर्ण येसर. कलानंदातल्या नटाचो एक खुनी. सावलीचे कलेचो दुसरा खुनी. (कलानंद येता)

कलानंद : चलात मामा. गाडी आयल्या. नाटकाच्यो तिकेटी वरभरांत खलास. प्रयोगाचे आयोजक आतांच मेळिल्ले. दादा तुमकां व्हरपाक ते गाडी घेवन येतले. मामा चलात.

दादा : चलात मामा, चलात. आतां आनी उशीर नाका.
(कलानंद, मामा वतात)

दादा : (नटराजाच्या मुखार रावून) नाट्यदेवते, नटराजा तुजे सेवेचे हें व्रत हांवे स्विकारलां. कसलीच अपेक्षा बाळगीनासतना. हांव जाणा देवते, तुज्या देवळाचे सोंपणामेरेन पावतलो जाल्यार सुध्दा मर्दी वाटेर हजार आडमेळीं आसात. तोंपपी काटे आसात. खर्शेवपी दोंगर आसात. विखारी सर्प आसात. तुफानाचे दर्या आसात. खोल, खोल देंगणा आनी आपलेच मनीस कशे दिसपी पावला पावलार राकेस आसात. वयाचीं पंचावन्न वर्सां हुपतना तातूंतलीं चाळीस वर्सां हांव ही वाट चलतां. तुज्या पायांसरी यंवपाक. दुखता, खेपता, केन्ना केन्नाय खोल घावेय जातात. अचानक कोणतरी बेठेंच मनाचेर, काळजाचेर तलवारीचे घावे घालता घायाळ जावन पडतलों आनी ही चलपी वाट थंयच सोपतली अशें दिसता आसतनाच तूं येवन फूंक मारता. तुज्या मायेस्त रसीक हातानी फाट सासपीता. तुज्या अलंकारीत तुस्त करपी उतरांनी सगळे घावे खिणाभितर भरून येतात आनी कितें कोण जाणा, परत तरतरीत जावन तुज्या पायांसरी पावपाचें उमळशिकेन वाट माडपाचें बळगें आंगात येता. हे कलाकृत, हे सरस्वते, हे नाट्यदेवते तुका प्रसन्न करूंक आपलें पुराय जुवानपणाक तोंडाक रंग फासून रसीकांक तृप्त करपी, रसीकांचीं मनां केळोवपी कलाकारांच्या वाट्याक अशी रक्तबंबाळ करपी वाट कित्याक

मांडल्या? दर एका कलाकारांचे वाटेर हें अशें आंगपांग बोचावपी टोकाचे भाले कित्याक किल्लतात? हे म्हजे प्रामाणिकपणाचे सेवेंत खरेंच काय हांव चुकला? देवते, म्हजे ह्या नाट्यसाधनेंत खंड पडचो न्हय, नसत्यो कटकटी - झगडीं सोडोवपातच वेळ फुकट वचचो न्हय म्हणून हांवे दरवेळा खालतेंपण घेतलां. म्हजेर जाल्ले सगळे खोटे - नाटे आरोप हांवे 'हय' म्हणून मानून घेतल्यात. देखूनच समाजान म्हजेकडेन बोट दाखोवन 'तुजेंच कृत्य हें तुवेंच ताका सांबाळूंक जाय' म्हणले तेन्ना तेंय मानून घेवन फकत एका दिसाचें तें बाळक 'कलानंद' नांव दवरून हांवे ह्या घरांत हाडलें. फकत वीस वर्साचो हो दादा निकतोच अभिमन्यूचे भुमिकेत जीव ओतून रसीकांच्या काळजामेरेन पाविल्लो. तो दादा अचळय समाजाच्या चक्रव्यूहांत सांपडिल्लो. वैशाली, तीस वर्सांची गुणेस्त नटी. म्हजेपासून दीस गेल्यात म्हणून जो तो म्हजेकडेन नदर जोखतालो. भौस, रसीक, कंपनीतले कलाकार, कामगार. हांवे हजारवेळा सांगले 'हांव गुन्यांवकार न्हय. हांव पापी न्हय. हांव निर्दोश आसा.' पूण चक्रव्यूहांत सांपडिल्ल्या अभिमन्यूक भायर येवपाची वाटच गवसलीना. वैशालीक चलो जालो, आनी वैशालीन दोळे धापले सासणाचे. वैशाली आज ना फाल्यां खरें सांगतली, सत उलयतली, एकच आशा आशिल्ली. नियतीन आशेचें दार बंद केलें. आनी दादा एका दिसाचें बाळक हातांत घेवन चक्रव्यूहांत धांवत सुटलो. हेवटेन तेवटेन - तेवटेन हेवटेन. (मोठ्यान) 'हय हें म्हजेंच बाळक. म्हजेपासून दिस गेल्ले वैशालीक.' मान्य केलें हांवें. देवते फकत तुजे सेवेखातीर वाट मेकळी जावची म्हणून मान्य केलें. आनी श्रीकृष्णाक पाटल्यांत घेवन वचपी वासुदेवाक भर यमुनेच्या हुंवारांत वाट फुटची तशी चक्रव्युहांतल्यान भायर येवंक म्हाका वाट मेकळी जाली. पूण त्या दिसाच्यान हांवे म्हजेखातीर एक वाट कायमची बंद करून घेतिल्ली. म्हज्या फुडलें रंगयाळें जिवीताची. बंद! कायमची बंद!

(सावली दारांत उबें)

सावली : दादाऽऽ

दादा : (गोंदळून) हाँ...! कोण?

सावली : हांव सावली.

दादा : सावू... सावलीऽऽ!

सावली : दादा म्हाका सगळें कळ्ळां.

दादा : कितें तें ? तुवें आयकलें? तूं हांगाच आशिल्लें?

सावली : तुमचो कसलोच गुन्यांव नाशिल्लो. तुमचो कसलोच दोश नाशिल्लो.

दादा : तें फट. गुन्यांव म्हजोच. दोश म्हजोच. हांवच बापूय ताचो. म्हजोच तो. म्हज्याच रगताचो. कलानंद ह्या दादांचोच.

सावली : कलानंद तुमचो न्हय अशें बाबान म्हणलें हांगा येवन. दादा हांव चूक मागता तुमची. म्हाका सगळें कळ्ळां. तुमचो कसलोच गुन्यांव नासतना बाबान हांगा येवन तुमचो अपमान केला. तुमचे कलेचो अपमान केला. दोश म्हजो. म्हाकाच लागून तुमकां खूब भोगचें पडलां. सहन करचें पडलां. दादा, अशें पिशावरी हांव केन्नाच वागचेंना. हांगा परत केन्नाच येवचेना. म्हज्यांतली रंगभुमीची आवड हांव मारून उडयन. नाट्यकलेची अदृश्य किर्णा म्हजे ल्हवेंत ल्हवेंत ग्गिंूक पळेतात. तांकां हांव अडावन धरीन. म्हजें जिवीत हे माचयेर रंगचे, फुलचें ही इत्साच खंयचे तरी रंगम्हालाचे कुडींत हांव बंदिस्त करून दवरीन. तुमकां त्रास जावचे न्हय म्हणून कितेंय करीन हांव. पूण तुमी हे रंगमाचयेर रंगूंक जाय दादा. ही रंगदेवता तुमकां प्रसन्न जावंक जाय दादा. तुमी खूब व्हड जाल्ले जाय म्हाका. खूब व्हड. माचयेर उबो रावन मळबाक हात तेंकोवपी एक व्हड नाट्यकलाकार, नटश्रेष्ठ, नाट्याचार्य, नटसम्राट दादा. दादा आयच्यान म्हजेखातीर नाटकाच्या थेटरांचे दार बंद जालां. पूण जंय आसा थंयच्यान सगळ्यो वणटी फोडून, सगळीं आडमेळीं तोडून तुमचे भुमिकेकडेन दोळे लावन बसतलें, तुमचे संवाद आसा थंय म्हज्या कानार पडटले. दादा, रसीकांच्या राशीनी ताळयांत म्हज्याय ताळयांचो आवाज खंयतरी आसतलो. त्या उत्स्फूर्त, कौतुकांच्या शब्दांत म्हजेय मोने शब्द आसतले. दादा तुमकां आयकूंक येतल्यो म्हज्यो ताळयो? म्हजे मोने शब्द? दादा बाबांचेवतीन हांव चूक मागतां तुमची. म्हाका एकदांच म्हणात 'सावू'. एकदांच तुमच्या पायांक हात लावंक दियात. फाटीं सरचेना न्हय?

(पायांक हात लायता आनी वचूंक वता. तेन्नाच...)

दादा : सावू... सावू राव. रंगदेवतेखातीर राव. तुका इत्सा आसासर राव. (नटराजाकडेन पळेत) आई... देवते.. नटराजा होय निर्णय फकत तुजेखातीर. फकत तुजेखातीर.

(सावली परतता. दादाचे आंगावेली पडिल्ली शाल ताच्या आंगार घालता. दादा सावलीकडेन पळयता आसतनाच काळोख.)

## पयलो अंक सोंपता

# अंक - दुसरो

## देखाव : पयलो

(पयल्या अंकाउपरांत तीन ते चार वर्सां उपरांतचो काळ. सावली वायल न्हेसून घरांत सात्र मारता. कांय सामानाची नीट वेवस्था लायता. भायल्यान गुणा उले मारता.)

गुणा : (भायल्यान) ताईऽऽ सावलीताईऽऽ.

सावली : कोण? गुणा रे. यो भितर यो. (गुणा भितर येता) कितें रे? परक्याभशेन भायर उबो रावन उले मारता?

गुणा : तूं निजला आसतलंस असो म्हाका दिसलां.

सावली : ना रे, न्हिदतलें केन्ना? रातीं नाटक सोंपतासर तीन जालीं. सगळें जाग्यार घालून हांगा पावतासर स जालीं. न्हालें आनी याद जाता तसो रातीच्या प्रयोगाचो हिशेब बरोवन दवरलो. एकदां न्हिदल्यार बेगीन उठप जावचेना. म्हणटासर दादा येतले. आतां रांदून जेवूनच न्हिदतां मातशें.

गुणा : दादा येतलो आतां हयसर? ना येवचो दादा. तो भायलेभायर सावंतवाडेच्या प्रयोगाक जातलो.

सावली : तुका कशें कळ्ळें?

गुणा : रात्रीच सांगला तेनी म्हाका.

सावली : तुका सांगलें?

गुणा : होय. आज सकाळी सुध्दा तेनीच उठयला माका. म्हणूंक लागलो

घराकडेन जावन येत्‌लंय जाल्यार बेगीन जावन ये. वांगडाच या स्टेज घेवन सावंतवाडीक.

सावली : दादा तुका सांगता. सगळ्यांकडेन उलयता. पूण ज्याका सांगूंक जाय ते सावलीक मात कांयच सांगिनात. हांव इतलें तांचेखातीर करतां. खंयच चुकचें न्हय, खंयच वायट दिससारखें म्हजेकडल्यान घडचें न्हय म्हणून जाता तितली जतनाय घेतां. मागीर म्हाकाच परक्यावरी ही वागणूक कित्याक? जें तुका सांगलें तें म्हाका कित्याक सांगलेना दादान? हांव जाणा गुणा, दादाचे रंगमाचयेर हांव एक अडेची झालर कशी येवन लागलां.

गुणा : छा! असा न्हय ता. असा म्हणप बरोबर नाय.

सावली : म्हज्या कामाचेर कंपनीतलीं मनशां खूश ना गुणा? फाटल्या तीन वर्सांत म्हजें पावल पडपाक खंयीय चुकलां जाल्यार सांगात म्हाका.

गुणा : छा. कंपनीचे सगळ्यांक तुजा कौतुक दिसता ताई. कलानंदान कंपनीक फाट केली आनी दादा आतां एकटोच खंचा खंचा म्हणून सांबाळतोलो, असा दिसतानाच अनुभवी माणसासारखे तू सगळांच सांबाळून घेतलां. खरां सांगू ताई, जेव्हा कलानंद वेवस्था बघी तेव्हा खूब फावटीं आमच्यांतले एक दोग जाण उपाशीच उरताले. कोण जेवलो कोण जेवंक नाय हेचा तेका पडूंकच नाय व्हतां. स्टेजीवेल्या कलाकारांची निजाची वेवस्था जाली म्हणजे जालां. आमचे सारखे पडद्यापाटल्या कलाकाराक आंग टेकोवंक जागो व्हयो ह्या तेका मायतच नाय व्हता. मगे तर्फो ह्योच आमच्यो खाटी आनी पडदे हीं आमचीं पांगरूणां आसतालीं. (सावली खंयतरी पळेत वग्गी. गुणा विशय बदलीत) एकदां मजाच जाली ताई. असाच फांतोडेर पांचांक नाटक सोंपलां. सगळे निजले. कडक थंडी. मेळटा तें पांगरून आमीय निजले. दुसरेदीस उठता करतासर दनपार जाली. आणि स्टेज घेवन दोडामार्गाक जावचा व्हतां. थंय नाटकाचो प्रयोग व्हतो. ट्रक आयलो. सामान भरपी आयले, सगळे आयले, पण दादीचो पत्तोच ना.

सावली : कोण दादी म्हणुन?

गुणा : दादी म्हणून तेव्हा एक स्टेज लावपी व्हतो. भयंकर हुशार. आमी

तेवा तेच्या हातासकयल. दादी व्हतो सगळोच देडफूट. मुर्ती ल्हान पूण काम महान. तर दादीचो पत्तोच नाय. उशीर जालो म्हणून आमी शेवटाक बेगीनाबेगीना मेळता तसा सामान ट्रकांत भरलां. गादयो, उशीं, लोडां धडाधड उडयले ट्रकांत. आमी गेले दोडामार्गाक स्टेज घेवन. दोडामार्गाक ट्रक खाली करून आमी दादीची वाट बघत बसले. दादीक सोदूंक दादीच्या घराकडेन धाडलेलो मनीस दोडामार्गाक परत पावलो. तेणी सांगले की दादी घराकडेन पोचूंकच नाय. आमचेर आकांत. स्टेज लावंक कोणाक येता? कशीतरी लायली जाल्यार दादाक चलना नाय. शेवटी जमता तशी लायली. स्टेजींतलें सामान मांडलें. दरबारी आसना, लोडां, उशीं आणि बाकड्याचे घालूंक दी रे ती कवळून थेयलेली गादी म्हणून हात घातलय तर तीतूंत भितर दादी. उठलो आनी म्हणटा, 'कसलो कुडकुडो रे रात्री?' ताई तूं हसतय. पण त्या दिवशी दादाक कळलां तेवा दादान जा रूद्राचा रूप धारण केल्लां तां आमी कोणच विसरूंक शकचो नाय. त्या दिवशी पयलेच फावटीं दादाच्या हाताचीं पांचय बोटां कलानंदाच्या कानसुलाचेर उठलीं.

सावली : (कांयवेळ वग्गी) गुणा, तुज्या खबऱ्यांनी हांव हांगाच उरतलें. तूं आयिल्लोच आसा. राव मातसो. दादाक जेवणाचो डबो करून दितां.

गुणा : म्हाका उशीर जातलो. दादाक बेगीन येतंय म्हणून सांगून आयलंय. अकराची गाडी जर मेळ्ळी नाय तर धांदल जातली.

सावली : हांवे छोटूकडेन पयशे दिल्यात. कितें कितें व्हरपाचें तें ताका रातींच सांगून दवरलां. हांव आनी मामा दनपरां दोनाक भायर सरून रातचीं णव म्हळ्यार पावतलीं सावंतवाडीक. बरें करून वचात.

गुणा : तूं हुस्का करूं नको.

सावली : बेगसाच जेवून-खावून घेयात. थंय मागीर कांय मेळचें ना रातचें. उपाशी रावूं नाकात.

गुणा : तूं आसतना आमी उपाशी!

(गुणा वचपाक वता. दाराकडेन पावतनाच सावली ताका परत साद

घालता.)

सावली : आनी गुणा...!

गुणा : कायऽऽऽ

सावली : ट्रकांत सामान भरतना गादयो सारख्यो सोड्डून पळय.

(गुणा हांसत वता. सावली पुरो जावन खुर्चेर दोळे धापून बसता. मामा न्हावून खोमीस चडयत भायर येता. नाट्यगीत गुणगुणत केंस वळयता. नटराजांक पायां पडटा.)

मामा : (सावलीचेर नदर वतगीर) कितलें कशटता? कितलें खर्शेता? न्हिदल्यार न्हिदलें. जेवल्या जेवलें. रंगदेवतेखातीर इतले खर कशट उप्रासपी हांवे तरी अजून केन्नाच पळोवंक ना.

सावली : (एकदम जाग येता) मामा, न्हाले तुमी? बशिल्लेकडेन केन्नाच दोळो लागलो.

मामा : सावली, न्हीद तूं न्हीद. भितर वचून थोडोवेळ आड पड. फांतोडेचेर आयलें तेन्नाय तूं न्हिदलेंना. कितें तरी बरयत रावलें.

सावली : इल्लें शीत-कडी करतां. मागीर आड पडटां.

मामा : मागीर केन्ना? दोन वरांचेर भायर सरूंक जाय. म्हणटासर दादा येवपाचो जालो.

सावली : दादा येवचेना.

मामा : ना येवचो?

सावली : ना. तुमी न्हाताले तेन्ना गुणा येवन गेलो. एका स्टेज लावपी मनशाक दादा सगळें सांगतात. पूण ज्यांचे खातीर हांव धडपडटां ते सावलीक मात कांयच सांगनात.

मामा : तशें न्हय सावले.

सावली : दादा येतले म्हणून जेवण करून हांव हांगा वाट पळयत बसतां, दोळ्यावेली न्हीद कुशीक सारून, हाजोय दादानी विचार करप ना मामा?

मामा : कंपनीची सगळी वेवस्था हिशेब तूंच सांबाळटा म्हण्टगीर कोण खंय वतलो, कोण भायलेंभायर थेटराकडेन येतलो, कोण येवचोना हें दर एकल्यान तुका सांगूकच जाय.

सावली : कलानंदाकडेनय अशेंच वागताले दादा?

मामा : ना. दादा तशे कडक शिस्तीचे. पूण तुजे बाबतींत इल्ले चडच कडक रावतात सावले. म्हाकाय जाणवलां तें.

सावली : कित्याक मामा? कित्याक? म्हजेकडेन सारखें उलोवप ना. कितेंय विचारल्यार 'हय' आनी 'ना' हाचेशिवाय एखाद दुसरो शब्दय दिवप ना. हांव जाणा. हांव हांगा येतपासून तुमकां सगळ्यांकच खूप अडचणीचें जालां. म्हजो बाबा म्हजेवेलो राग कितें ना कितें निमित्त करून दादांचेर काडटा. कंपनी बंद पडची म्हणून ना ना यत्न करता. रघुनाथाच्या हाताक धरून ताका आमचे आड खुबळावन घालता आनी जे सावलीक लागून हें सगळें घडटा ती सावली मात हांगसल्ल्यान भायर सरून वचना. हांवे वचूंक जाय मामा. हांवे तोंड घेवन वचूंक जाय हांगसल्ल्यान.

मामा : शी! शी! अशें न्हय सावू. दादाच्या वागण्याचो असो विपरीत अर्थ लावं नाका. ज्या दिसा तुका ह्या घरांत रावपाक दादान संमती दिली त्या दिसाच फुडें कितें घडपाचें आसा आनी कितलें सोंसपाचें आसा तेंय दादाक खबर आसा. मनाची सगळी तयारी करूनच दादान तुका आश्रय दिला. दादांचें विचित्र आनी कठोर वागणे तुका थोडें त्रासाचें जाता आसत सावले, पूण तुज्याच बऱ्याचें आसा हेंय सत्य.

सावली : म्हज्या बऱ्याचें? ह्या असल्या वागण्यान म्हजो घुस्मटमार जाता भितरले भितर. एकवेळ थापट सुद्दां मारल्यार बरें. मार सोंसूं येता. थोड्या वेळान थापटाची दूख थांबता. पूण असो मनाचो मार मनाक लागता. आनी मनाची दूख थांबून थांबना मामा. [illegible] अशें मोनेपण, म्हजेपासून पयस रावप म्हाका त्रासाचें जाता.

मामा : सूर्य धर्तरेपासून खूप पयस रावता. कित्याक खबर आसा? कारण, धर्तरी जगची ही ताची इत्सा आसा...

(तिडकल्ले सावलीच्या तोंडावेले भाव बदलतात. मामा ताचेकडेन पळेत मुमुरख्यांनी हांसता.) हांव तिठ्यार वचून रोखडोच येता. तूं न्हीद काड. परत आज रातचें जागरण आसाच मागीर. (मामा भायर वता.)

सावली : (आपलेच भरशी खंय तरी पळेत) सूर्य खूप पयस रावता कारण धर्तरी जगची ही ताची इत्सा आसा. सूर्य... खूप पयस... रावता कारण सावली जगची...
(सावली एकदम हासूंक लागता.)
(विश्वासराव ल्हानसोच डबो आशिल्ली पिशवी हातांत धरून येता. सावली आंऽ करून तांचेकडेन पळेत उरता.)

सावली : बाबाऽऽ!

विश्वास : कोण बाबा? कोणाचो बाबा?

सावली : दादा ना घरांत. कोणच ना.

विश्वास : म्हणूनच तर आयलां.

सावली : येयात. भितर तरी येयात. (विश्वासराव भितर येता.) च्या करतां.

विश्वास : च्या घेना हांव.

सावली : इतले रागार हे सावूचेर? थोडीशी घेयात. नाजाल्यार म्हाका वायट दिसतलें बाबा.

विश्वास : (बसता. पिशवी थंयच स्टूलार दवरता.) ह्यावेळार हांव च्या घेना. दूद घेतां. बदाम-पिस्ता घालून. विसरलें? बरोबर दनपारच्या अकरांक चांदिच्या पेल्यांत दूद घेवन येवपी म्हजें सावू तें तूंच न्हय?

सावली : बाबा ऽऽ !

विश्वास : तीन वर्सां वाट पळयलीं तुजी. तूं परत येतलें म्हणून. तीन वर्सां! आतांच तुका हांव व्हरूंक येवूंना. पूण जाणा जावन घेवंक जाय म्हाका की अजूनय तुका घरा परतुचेशें दिसना? अजूनय तें नाटकाचें पिशें तुजे तकलेंतल्यान गळूना? पोटांत खर जाळ आनी कुडीक खर कश्टांचे उपद्व्याप भोगून सुद्धां अजूनय तुका सत कितें तें होलमूंक ना? कोणाक भाळून तूं रावलां हांगा? अशें कितें आसा हांगा जें तुका हांगसल्ल्यान भायर सरूंक दिना? कोणाच्या चेंपणान तूं चिड्डुलां हांगा?

सावली : ना बाबा. म्हजेर कोणाचेंच चेंपण ना. कोणेंच म्हाका हांगा ओडून हाडूंक ना. हांव म्हजे इत्सेन आयलां हांगा. हांव सुखी आसा हांगा.

विश्वास : सूख! तूं सुखी आसा. अशा ह्या रिकाम्या घरांत कितें आसा म्हणून

तूं सुखी आसा. आनी म्हजे भरिल्ले सुखवास्तूत कितें ना म्हणून तूं रितें उरता? म्हज्या काळजाक हुलपावप हेंच तुजें सूत्र?

सावली : अशें उलोवं नाकात बाबा.

विश्वास : ल्हानपणापासून तुजी जबाबदारी म्हजेर पडली. दुदाचो बोम म्हजेकडल्यानच घेवचो तुवे. वरांचीं वरां पायांर पांय घालून घोळयत रावचे हांवे तूं न्हिदसर. तुजे ते नाजूक दोळे आनी माणकुलीं पावलां पळयतां पळयतां तुज्या आवयच्या मरणान खचिल्लो हांव परत उबो रावलों. तुज्यो आवडी-निवडी, तुज्यो इश्ट-इश्टीणी, तुका खुशी मेळपाक तुका कितें जाय तें तुज्या पायांसरी रकयलें हांवे. तुजेखातीर बंगलो, तुजेखातीर गाडी, तुजेखातीर फुलांची बाग, तुजेखातीर झोपाळो. अजूनय तुजे कुडीचें दार उकतेंच आसा, तूं हांगा येतपासून. आंगावेले अळंकार आरमारींत दवरून उकती उडयिल्ली आरमार तशीच आसा. जेन्ना जेन्ना हांव तुजे कुडीच्या दारा म्हऱ्यांत पावतां तेन्ना तेन्ना ते उकते आरमारींतल्यान तुजे हरतरांचे कपडे, तुजीं कांकणां, तुजीं मोतयां-माणकां म्हाका तुज्याच नाजूक दोळ्यांनी पळयतात. अजूनय तुजे बाज्जेचेर आंगावेल्यान कडेक सारिल्ली त्या दिसाची चादर अर्दी बाज्जेर आनी अर्दी जमनीर अशे अवस्थेंत वाट पळयता तुजी परतुपाची. गुलाबजामून खूब आवडिचे तुजे. गुलाबजामून म्हणिनाफुडें न्हिदेंतल्यान सुद्दां जागें जावपी तूं. खाला? खाला हांगा आयिल्ल्याक अर्दो तरी?

सावली : तुमी दिल्ली माया हांव विसरूंक शकना बाबा. हांव येतलें. परत येतलें. तुमचेसरीं.

विश्वास : (उठता) केन्ना? केन्ना येतलें?

सावली : म्हजें नाट्यकलेचें शिक्षण पुराय करून.

विश्वास : नाट्यकलेचें शिक्षण पुराय जातलें तेन्ना तूं सावली म्हणून उरचेंना. एक नटी म्हणून जगतलें. एक नटी. हांगा थंय वचून तोंडाक रंग फासून नाचपी आनी नाचोवपी. आजच तुजेविशीं भायर कितें कितें उलयतात तें आयकूना तुवें. हांव आयकतां तें मुकाट्यांनी.

सावली : नटी एक कलाकार आसता बाबा. पूण तिच्यांतले कलेची तोखणाय

करचेपरस तिच्यांतली बायलमनीसच दादल्यांचे नदरेक चड भरता. हो दोश नटयेचो न्हय. पळयतल्यांचे नदरेचो दोश तो. तुमी म्हजेर विश्वास दवरात बाबा. लोकांची म्हाका पर्वा ना.

विश्वास : म्हाका तुजेलागीं ह्या विशयाचेर चड भासाभास करपाची ना. समाजाचे नदरेन नटी ती नटीच. आनी तिका कोणच बरो मनीस आपणावचो ना. तुजें हेंच वय चार हात करपाचें. तुजें लग्न – तुज़ो जोडीदार – तुजें घर – तुजें भुरगेंबाळ. हें सूख सावली. हेंच खरें सूख. पयर तुजी मैत्रीण शरयू मेळिल्लें.

सावली : शरयू मेळिल्लें? खंय? म्हाका मेळपाक आयिल्लें?

विश्वास : पयर लग्न आशिल्लें ताचें. हांव गेल्लों. 'सावली खंय', 'सावली कित्याक आयलेंना', 'कित्याक हाडलेंना' – हजार प्रश्न. म्हजेकडेन मात एकाय प्रस्नाची जाप नासली. येदो व्हडलो रूप्याचो करण आहेर दिलो हांवे. पूण ताका जाय आशिल्ली एक येदेशी जाप दिवंक शकलोना हांव. (रागान) वचत थंय ही अशी मानहानी, मनस्ताप सोसचो पडटा म्हाका ह्या नाटकाक लागून. श्रावणबाळाचे हत्येक लागून ताच्या आवयबापायन प्राणत्याग केलो. हांवय तडफडटां. पूण हांव प्राण सोडचो ना. हांव म्हाका भोगयिल्लें हे अपमानीत जिणेचें मोल कळंतरासयत वसूल करतलों नटश्रेष्ठ दादांकडल्यान. ताची ही नाट्यकंपनी मुळासकट आड घालतलों हांव.

सावली : बाबा, तुमी म्हाका ख्यास्त दियात. दादांक पिडापीड करूं नाकात. ताणी म्हाका आडोवं ना. हांव आतां सुद्दां वचूंक शकतां हांगसल्ल्यान. तांच्या मार्गार तुमी बेठीच आडमेळीं हाडटात बाबा.

विण्वास : तूं अजूनय भुरगें आसा. तुज्या भुरगेपणाचोच फायदो घेतला ताणी. तूं शिरकून उरलां तांच्या नाटकी अभिनयाच्या जाळ्यांत.

सावली : तशें कांयच ना बाबा.

विश्वास : बस्स! जें समजुपाक जाय तें हांव बरेभाशेन समजलां. तुका हांव आपोवचोना आनी म्हाका ताकद आसून लेगीत बळयां तुका ओडूनय व्हरचोना. आतां छी थू जाल्लीच आसा. प्रतीश्टा, मानपान सगळें झडून गेल्लेंच आसा. म्हजो श्रावणबाळ आतां मरून गेला. ताची

हत्या केल्या ह्या नाटकवाल्यांनी. हांव स्राप दिन तांका. हांव तळतळाट भोगेन तांका. हांव गोबोर करीन तांचे नाट्यकंपनीचो.

(पिशवी घेवन सडसडीत चलूंक लागता. थांबता. सावलीकडेन पळयता. परत येवन पिशवी दवरता.)

(वता. सावली तांचे फाटोफाट दारामेरेन वचून खीत्र जावन परतता. पिशवे म्हऱ्यांत वता. डबो काडटा. उगडटा.)

सावली : गुलाबजामून! बाबा, हे तुमचे सावलेखातीर गुलाबजामून घेवन आयले? हांव जाणा बाबा, तुमच्या मनांत इल्लोय राग ना हे सावलीचेर. पणसाभशेन तुमी. वेल्यान तोपपी कांटे पूण भितर तितलेंच गोड काळीज. तितलेंच मायेस्त तुमी. म्हाका लागून तुमची जाल्ली अवस्था, तुमकां भोगपी एकोडीपण पळोवन म्हजेंय काळीज तुटता बाबा. म्हाका येन दिसता घरा. खरेंच येन दिसता. हांव येतां बाबा. आतांच येतां. ह्या खिणाक तुमचेसरी येतां. म्हाकाय आतां हांगा रावपाचें ना. ज्या दादांक लागून हांव हांगा आयलें त्या दादानी म्हाका पयसच दवरलें. म्हाका कोणच समजून घेना. दादांची सेवा करतां करतां माचयेर चडपाची उमेद आशिल्ली म्हाका. पूण भुमिका दिवपाचें सोडाच, सादया दोन उतरांनी म्हज्या कश्टाची, म्हजे सेवेची तोखणाय लेगीत करप ना? कंपनीक कितें जाय नाका म्हणून हांव जीव मारून धडपडटना म्हाका एक न्हेसण जाय हाजीय कोणे दखल घेवप ना? हांव कोण? कोणच न्हय? काय निर्जीव तर्फो, तलवारी, कपडे, पडदे तातूंतलेंच एक सावली?

शरयू, म्हजी मैत्रीण. शरयुचें लग्न जालें. सवायशीण बायल जाली. तागेर येतलें कुकुलें बाळक. शरयु आवय जातलें. आनी हांव! हांव कोण जातलें? कोण जातलें हांव? म्हाका नाट्यअभिनेत्री जावपाचें आशिल्लें बाबा. पूण हांव निर्जीव सावलीच उरलें. हांव येतलें बाबा. म्हजें घर, म्हजी बाग, म्हजो झोपाळो, म्हजी उक्ती पडिल्ली कपड्यांची आरमार. सगळ्या-सगळ्यांखातीर हांव येतलें बाबा. हांव येतलें. आतांच येतलें. हांव धावत येतलें तुमचे वेगांत.

(धांवत भितर वता. रागान पावलां मारीत दादा घरांत येता. फाटोफाट

मामा येता. दादा अस्वस्थ जावन पासयो मारता.)

मामा : दादा, दादा कितें घडलां तें तरी सांग.

दादा : केन्नाच येवजूंक ना अशें घडलां मामा.

मामा : कितें जालां?

दादा : आयचो प्रयोग जावचेलोना. बस्स! सहनशक्तीच सोंपल्या मामा. नाका, नाटकच नाका ह्याफुडें.

मामा : प्रयोग जावचेलोना? कित्याक?

दादा : नाटकांत पुतळाची भुमिका करपी शंकुतलान हाजेफुडें आपूण भुमिका करचीना म्हणून सांगून धाडलां. आतां ऐन वगतार.

मामा : राती सुद्दां ताणी मेकळेपणान भुमिका केल्या. आनी आतांच अशें कितें जालें? अशें तांच्यानी करू नज. हांव वचून येता तांच्या घरा.

दादा : ती ना येवची. रघुनाथाच्या हायसाक फारावल्या ती.

मामा : हांव शंकुतलाबाईक समजायतां. तिका परत हाडपाचें म्हजेर पावलें. तुमी शांत जायात दादा.

दादा : नाका. हांव तिच्या घरा वचूनच हांगा आयला.

मामा : कितें? तिच्या घरा खुद्द तुमी गेले दादा?

दादा : आनी हुंबऱ्यारच उबो रावन अपमानाचीं उतरां घेवन परतलां थंयच्यान.

मामा : विश्वासराव आनी रघुनाथ खेळटा हीं नाटकां. कसले बुरशे खेळ खेळटात हे? शीऽऽ!

दादा : आमी कंपनी बंद करची म्हणून हजार तरांनी आमचेर चेपण हाडलें. आमी सोंसलें, नाटक चलतां चलतां फातर शेंवटिले, आमी सहन केलें. कलानंदाक सोऱ्याच्या नादाक लावन आमचेपासून तोडलो तेंय सहन केलें आमी. भामट्यांक, गुंडांक हाताक धरून आमचे स्टेजीक उजो घालो, पडदे जाळ्ळे, तर्फो, कपडेलत्यांचो गोबोर जालो. तरी तो गोबोर नाट्यदेवतेची विभूती म्हणून कपलाक लावन दादा परत उबो रावलो रंगमाचयेर. तुमच्या आदारान सहन-सहन-सहन केलें आमी रंगदेवतेखातीर. पूण आज! आमचेच कंपनीत नाट्यकलेची श्रीगणेशा चीरपी, आमचेच कंपनीत ल्हानाची व्हड जाली, नावांरूपाक आयली ते शंकुतलेन ऐन वगतार घात मारचो?

आनी घराकडेन गेल्यार वायट उतरांची थूकी ह्या दादाच्या तोंडार मारची? मामा, हें कशें सहन करप आमी? नाटकाची वाट पळेत ताटकळपी रसीकांक कशें तोंड दाखोवप आमी?
(सावली बॅग घेवन भायर येता.)

सावली : (दादा मामाकडेन पळेत भीत भीत) मामा, हांव वतां.

मामा : खंय? खंय वता?

सावली : हांव घरा वतां.

मामा : कोणाल्या?

सावली : म्हज्या.

मामा : आंऽऽ! तुज्या घरा? वतां! अशें अचानक! आजच! म्हाका परत एकदां सारकें सांग. म्हजे तकलेंत कांयच वचना. तूं खंय वतां?

सावली : हांव घरा वतां मामा.

मामा : आज हें अशें कितें घडटा. तूं कित्याक वता?

सावली : दादा, हांव आयिल्लें तशेंच घरा वतां. तुमी जाय तेन्ना वच म्हणिल्लें. आज वतां.

दादा : वच.

सावली : म्हजेर रागार जावं नाकात. म्हाकाय राग ना कोणाचो. म्हाका माफ करात दादा. खूब सोसलां तुमी म्हजेखातीर. येतां हांव. (वता. दाराकडेन पावपाक...)

दादा : सावलीऽऽ
(सावली बॅग दारांतच दवरून परत भितर येता.)

सावली : कितें दादा?

दादा : हे नाट्यदेवतेच्या राजांगणात खूब गबलां तूं. फाटलीं तीन चार वर्सां निश्टेन वावुरलां तूं. दिशिल्लें हांगसल्लो हुलोप बादिनाफुडें अवघ्या म्हयनेभितर तूं घरा पळटलें. आपूण जावन! पूण तूं रावलें. तीन वर्सां. नाट्यकलेची उपासना करीत, तीश्टत रावलें. आज तूं वता. तुका राव म्हणून हांव सांगूंक शकना. वच तूं. बरें करून वच.
(सावली वता.)

मामा : सावू, तूं खरेंच वता? आज शकुंतलाबाईय कंपनी सोडून गेल्ली. घराचें

पाखेंच उडून वचचें आनी उब्यो राविल्ल्यो वणटीय कोंसळच्यो तशें ह्या घरांतले अशें नाटकच घडायचं करून आज कोंसळटा. ताका कोणे सांवरप?

सावली : शकुंतलाबाईन कंपनी सोडली? कित्याक? अशें अचानक!

दादा : आज पयलेच खेप म्हज्या रसीकांक रिकाम्या पानावेल्यान उठचें पडटलें. हांव कफल्लक जालां आज. हांव हरलों मामा. हांव हरलों.

सावली : दादा, तुमी कफल्लक जावंक फावना. तुमी केन्नाच हरूंक शकना. तुमचो रसीक रीकाम्या पानावेल्यान उठून वचूंक शकना. दादा, दादा तुमच्या दोळ्यांत दुकां म्हज्यान पळोवंक जावंचीना. तुमी, तुमी हुकूम दियात दादा. तुमची मान्यताय आसल्यार हांव करीन पुतळा.

दादा : तूं? तूं माचयेर चडटलें? विश्वासरावाची धूव माचयेर! तें शक्य ना सावली. तें शक्य ना. खूब सोसचें पडटलें. खूब ऽऽ!

सावली : सोशीन. हे रंगभूमीखातीर कितलेंय सोंशीन. पूण म्हाका माचयेर चडपाची एकच संद दियात दादा. तुमच्या रसीकांक पोटभर वाडीन हांव.

दादा : तें शक्य ना.

सावली : शक्य आसा दादा. फकत तुमचो आशिर्वाद जाय दादा. (पायांकडेन दीमी मारून) ना म्हणू नाकात दादा. ना म्हणू नाकात. एकदांच, एकदांच हय म्हणात दादा.

दादा : (सावलीच्या भूजांक धरून उठयत ताच्या दोळ्यांत पळेत रावता) मामा, सावंतवाडीच्या प्रयोगाक वचपाची तयारी करात.

(सावली खोशेन धांवन दारांत दवरिल्ले बॅगेकडेन वचून बॅग हातांत घेवन भायलेवटेन पळेत.)

सावली : बाबा, बाबा, हांव येवंक शकना. हांव येवंक शकना बाबा.

**(काळोख)**

## देखाव : दुसरो

(सावलीच्या सत्कारानिमतान भाषण करपी नाट्यअकादमीच्या अध्यक्षांचो फकत तोंडावळो दिश्टी पडटा. बाकी माची काळखांत.)

अध्यक्ष : (भाषणाच्या सुरांत) रसीकमित्रांनो, हांव हांगा उलोवपाक उबो रावलां तो फकत नाट्यअकादमीचो अध्यक्ष म्हणून न्हय तर दादांचो एक इश्ट, तांच्या नाटकांचो एक रसीकमोगी आनी तांची बरीचशी जीण लागींच्यान पारखिल्लो एक साक्षीदार. ज्या वगतार नाटक म्हळ्यार कमीपणाचो, तुच्छतायेचो प्रकार अशें समजताले, तोंडाक रंग लावन घेवप्याची टवाळी मारताले आनी नाटक करून घरच्यांचे सोडाच, पूण स्वताचें लेगीत पोट भरप जमनासलें, अश्या वेळार नाटकाच्या ध्यासान, नाट्यपिसो जावन एक ल्हान पिरायेचो भुरगो नाट्यकंपनी फाटल्यान पळून वचूंक शकता? शकता जाल्यार कित्याक? दादांचे आजमेरेनचे जीणेकडेन पळयतगीर ह्या प्रश्नाची जाप म्हाका सोदून सापडना.

दादांनी आजमेरेन आमकां कितलीशींच नाटकां दिलीं. संगीत, पौराणिक, इतिहासीक, काल्पनीक! हरतरेच्यो भुमिका ताणी गाजयल्यो. तांची शिवरायाची भुमिका कोणच विसरूंक शकना. (ताळयो) दादा, तुमी रसीकांक खूब दिलें. तुमच्या तालमीत तुमी नवे कलाकार घडयले. नट म्हणून कितल्याश्याच जाणांक रसीकांमुखार हाडले. आज दादानी आमकां एक अप्रतिम अशें रत्न दिलां. नाट्यभिनेत्रीच्या रूपान. ती म्हळ्यार आयची सत्कारमूर्ती. गुणेस्त अभिनेत्री 'सावली'. (ताळयो)

आज नाट्यअकादमी तिचो सत्कार करता. फाटल्या धा वर्सांत तिणे आपल्या अभिनयान रसीकाच्या काळजांत सुवात मेळयल्या. तिची

पयलीच भुमिका ‘पुतळा’ सावंतवाडीचे माचयेर उबी केली आनी ते रातीं आसनार बशिल्लो प्रत्येक रसीक बशिल्लो थंयच पुतळो जालो. ताच्या उपरांत फाटल्या धा वर्सांत तिणे कितल्योश्योच भुमिका रंगयल्यो. तिची खंयची भुमिका उत्कृश्ट हें थारावप कठीण. संगीत शारदांतली शारदा, मृच्छकटीकांतली वसंतसेना, सौभद्रांतली रूक्मिणी काय एकचप्यालांतली सिंधू...!

– आज जो तिचो नाट्यअभिनय आमी पळेतात ताचेफाटल्यान तिणे घेतिल्ले कश्ट आसात. साधना आसा. त्याग आसा. दादावेली निश्टा आसा. घरचो विरोध, सोयरें–इश्ट इश्टीणीनी तोडिल्लीं नातीं, भौसाचीं बकच्छायेचीं उतरां, पोटांतली भूक, मनांतलें दूख सोसीत तिणें नाट्यदेवतेक प्रसन्न करून घेतल्या हातूंत दुबाव ना. (ताळयो) रसीकमित्रांनो, भाषण सोपोवचे पयलीं म्हजी एक खंत हांव तुमचेमुखार मांडटा. जे दादा–सावलीसारके कलाकार आमच्या मनाची रीजवण करतात, आमकां नाट्यदेवतेचें दर्शन घडयतात, जे कलाकार सतत आपले कलेन दुसऱ्यांक सूख दितात, त्या कलाकारांच्या नशिबांत मात सीतेचोच वनवास कित्याक? द्रौपदीचें वस्त्रहरण आनी सिंधुचीच कश्टी जीण कित्याक? राजाचो मुकूट माथ्यार आसूनय जीणेचे अखेरेक आपल्याच पुताखातीर तळमळपी, एकोडेपणाची खंत भोगीत मरण वेंगावपी शिवरायांचें मर्ण कित्याक? हेच प्रश्न हांवे दादाक विचारले तेन्ना सहजतायेन दादांनी म्हटलें, ‘शेतांत पीक येवचें म्हणून मानेवेलें जूं ओडपी बैलांच्या फाटीर सतत चाबकाचे फटकोर कित्याक आनी म्हातारपणात त्याच बैलांक व्हरून कतलखान्यांत कापप कित्याक? सतत कश्ट करपी बैलांचे नशिबांत मात मनशाच्या आंगाखादांर लोळपाचें सूख कित्याक? हाकाच तर नाटक म्हणटात. हाकाच् नाटक म्हणटात.’

(काळोख जाता. परत उजवाड जाता तेन्ना सावली हातांत हार, शाल घेवन घरांत भितर सरता. फाटोफाट कांय वेळान मामा येता.)

सावली : (नटराजा म्हऱ्यांत वचून) हे नाट्यदेवते, हे महामाये, फाटलीं धा वर्सां केल्ले तुजे सेवेचें, दादाचे साधनेचें हें फळ. हातूंत म्हजें अशें

कांयच ना. हें सगळें तांचें, ज्याणी म्हजेखातीर खूब सोसलां.

मामा : (येता.) सावले ऽऽ सावूऽऽ

सावली : मामा, नमस्कार करतां मामा. (पायांक हात लायता)

मामा : सावले, धन्य जालों हांव आज. तुजो सत्कार दोळे भरून पळयलो आनी जीव धादोस जालो.

सावली : मामा, हो म्हजो सत्कार न्हय. हो आमचे नाट्यकंपनीचो भौमान. हो दादांचो सत्कार. हो तुमचे सारखेले निश्टावान, नाट्यदेवतेचे सेवेंत तनमन ओतून राबतल्यांचो सत्कार मामा.
(हातांतलो फुलांचो हार मामाच्या गळ्यांत घालता.)

मामा : हें कितें सावू! (हार काडूंक पळेता.)

सावली : आसूं दी मामा. कंपनीतले सगळ्यांत जाण्टे कलाकार तुमी. भौमान म्हणून म्हज्या गळ्यांत घाल्ल्या ह्या हारांतल्या फुलान-फुलाचेर तुमचो हक्क आसा मामा.

मामा : (हार काडत) एक गुणेस्त अभिनेत्री म्हणून तुजो आज नाट्यअकादमीन गौरव केलो. तुज्या कश्टांचो, तुजे सोशिकतायेचो, फाटल्या आठ-धा वर्सांत निश्टेन केल्ले तुजे सेवेचो हो गौरव. सावू, आमी पळोवपाक आसत नासत पूण फुडें फाटीं नाट्यकलेखातीर ह्या जगांतलो अतीम्हान असो पुरस्कार कोणेय दवरलो जाल्यार लेगीत तो तुकाच मेळूंक फावो. न्हय, तुकाच दिवचो पडटलो.

सावली : मामा, नीतळ काळजांतल्यान दिल्लो तुमचो असो आशिर्वाद होच म्हजेखातीर ह्या संवसारातलो सगळ्यांत व्हडलो पुरस्कार. तुमच्या ह्या आशिर्वादान आई-बाबांनच माथ्यावेल्यान भोंवडायिल्लेवरी दिसलें म्हाका.

मामा : सावू, अशे खर कश्ट उप्रासपी चली हांवें केन्नाच पळोवंक ना. नाटकाक लागून पिशें जावपी, समाजान सोडिल्ले विखारी फुल्कार छातयेर पेलपी, मुकाट्यांनी अपमान गिळपी, गिरेस्तकायेचेर खोंट मारून काट्याच्या झुडपांत उडी घेवन धडपडपी तुजेसारखेले चलयेचो हांव बापूय आसूंक जाय आशिल्लो. विश्वासराव... न तुमच्या हातांत दिली धनदौलत आनी दुसऱ्या हातांत एक खडो.

तुमी धनदौलतीक वेंग मारली आनी खडो कंवचेचो कुडको म्हणून मोकून मारलो. तो खडो हजार वेळा आपटलो, धपटलो मेळत तसो शेंवटलो. समाजांतल्या दुश्ट राक्षसी पायानी माड्डिलो. तशे त्या खड्याक फुटलीं तासां. तातूंतल्यान शेंवटली लिकलिकीत किर्णां. तें स्वयंप्रकाशीत नखेत्र आशिल्लें विश्वासराव. त्योच बुरसट नदरो आज त्या नक्षत्राकडेन पळोवन दिपावन गेल्यो. त्याच बुरसट मुखामळांनी आज त्या खडपाचो गौरव करून मौलीक शब्दफुलांचो अभिशेक घालो. तेच बुरसट हात आज फुलांचे हार घेवन फुडें सरील्ले विश्वासराव. विश्वासराव, तुमी हरले. इतली संपत्ती आसून लेगीत तुमी आज दळभरीद्री थारले. ह्या घरांत येवन कलेचो अपमान करपी, दादांक मनस्ताप भोगोवपी, ह्या मामाच्या काळजाचो भातो फोडून उडोवपी विश्वासाव. विचारात छाती आसा जाल्यार हे हे कलेच्या राजांगणात उबे रावन, ह्या नक्षत्राकडेन पळोवन विचारात, ‘नायकिणीन सजयिल्ली माळी आनी नाटककारान शिंगारिल्लो नाटकाचो माटोव हातूंत कितें फरक आसा?’ विचारात विश्वासराव. (मामाच्या सगळ्या आंगाचो संतापान थरथर जाता.)

सावली : मामा ऽऽऽ मामा ऽऽ (मामाच्या हाताक धरून ताका बसयता.)

मामा : सावू, काळजांत खंय तरी चिड्डून उरिल्लें दुःखख, मनातलो अपमान तुवें धुवून काडलो. आज खूब मेकळें दिसलें. खूब मेकळें.

सावली : मामा, कितल्या वर्सांनी तुमचे विश्वासराव, म्हजे बाबा म्हाका नदरेक पडले.

मामा : विश्वासराव आयिल्ले तुज्या सत्काराक? हांवे ना पळोवंक तांका.

सावली : सत्काराक आयिल्ले जाल्यार नकळो. पूण घरा येवपाक म्हणून माटवांतल्यान भायर सरलें आनी कांय अंतराचेर बाबा म्हाका दिश्टी पडले. सामके थकिल्ले. रोताचो आधार घेवन उबे राविल्ले. दिसलें, धांवत वचचें आनी तांका वेंग मारून इतल्या तेपाचो ओघ घालोवचो. तांचो आशिर्वाद घेवचो. एकेवटेन रसीकांनी म्हजे भोवतणी सयेखातीर गर्दी केल्ली, जाल्यार ते गर्देतल्यान एकेवेळचे बाबांचे भयानक दोळे गायच्या उदकाळ दोळ्यांनी ह्या पाडकाक

म्हन्यांत आपयताले.

मामा : ताणी तुजे म्हन्यांत येवचें आशिल्लें. पूण तें ना येवचें. कारण तुमच्या दोगांयचे मदीं आसा एक वणट. ताणीच उबारिल्ली. अहंकाराची, चिडखोर वृत्तीची, खोट्या स्वाभिमानाची.

सावली : बाबा म्हन्यांत आयलेना. पूण आतां दिसता हांवें तरी तांच्या फुड्यांत वचूंक जाय आशिल्लें.

मामा : वचचें आशिल्लें. कित्याक गेलें ना? भिलें? ज्याचें मन नितळ ताका भियेवपाचें कारण ना सावले. तूं निष्पाप, निश्कलंक, पवित्र! जे शुध्द भावनेन तूं हांगा आयिल्लें तें सावली इतल्या वर्सां उपरांत तशेंच आसा. सादें, सरळ, निरागस!

सावली : हांव भिवूंक ना मामा. पूण बाबा बरबर तो - तो रघुनाथ उबो आशिल्लो. घुरी घालूंक राविल्ल्या वाघावरी. ताका पळेनाफुडें म्हजीं पावलांच थांबलीं. हांव दुसरेवटेन परतलें. (कलानंद सोऱ्याचे धुंदीन दारांत उबो.)

मामा : रघुनाथ भोगतलो. ताणे केल्ल्या कर्माचे फळ तो भोगतलो. पयशांच्या नेटार नाट्यदेवतेकडेन खेळ मांडपी रघुनाथाक आपूण हरत चल्लां हाजी अजून जाण येवंक ना हेंच दुर्दैव ताचें.

कलानंद : (सोऱ्याचे धुंदीत) वा! मामा वा! पयलेंच खेप तुमच्या तोंडांतल्यान आयकलो रघुनाथाविशीं मत्सर. मामा, मत्सर उक्तावपाचोच जाल्यार तो तोंडार उक्तावचो. असो फाटल्यान कित्याक?

मामा : मत्सर! कोणाविशीं? रघुनाथाविशीं? चुकता तूं कलानंद. म्हाका ताजेविशीं अजिबात मत्सर ना. आसा ती काकूट.

कलानंद : वा! हालीं हालीं जाणटेपणात तुमच्या थरथरत्या हातांच्या बोटांनी ते पयलींचे सूर गायब जाल्यात मामा. ताच्या बदला वोठांतल्यान उतरांचे सूर बेस बरे भायर सरूंक लागल्यात.

सावली : कलानंद अशीं उतरां ! मामांक!

कलानंद : आई ऽऽ आईऽऽ

सावली : आई! कलानंद तूं कितें म्हणटा. कोणाक म्हणटा तें कळटा न्हय तुका?

कलानंद : तूं म्हजी आई न्हय? न्हय? म्हज्या बापायची अर्धांगी ती म्हजी सवत जावं पूण आवय न्हय? (स्वगत) बापायचे बायलेक आई म्हणप ही तुजी आनी एक चूक कलानंद. कलानंद, तूं आयुष्यांत कितल्यो म्हणून चुको करतोलो?

मामा : कलानंद, तुजे दादाकेडन मतभेद आसत म्हणून तुका ताचो राग कोणाय दुसऱ्याचेर काडपाचो अधिकार ना.

कलानंद : राग? मामा तुमकां सूर आनी राग हातुंतलो फरक कळूंक जाय. एक म्हान पेटीवादक नटश्रेश्ट दादांच्या कंपनीत पुराय जिवीतभर पेटीवादन करपी मामासाहेब 'आईऽऽ' म्हणून पुतान मारिल्ल्या सादांत 'सूर' आसता काय 'राग'?

मामा : कलानंद हाची जाप हांव दितलों आशिल्लों. पूण हांव दादांच्या घरांत आसा. दादांच्या व्हडपणाक हांव नमस्कार करतां. मान दितां. केन्ना केन्नाय वडाच्या झाडाक, पिंपळाक पायां पडटना ताच्या मुळांत आशिल्लो तायकिळो, झुडपांसकट पायां पडचें पडटा. म्हणून तायकिळ्यान आपल्याक कित्याक पायां पडटा म्हणून विचारल्यार म्हजेकडेन जाप ना.

कलानंद : वडाचें झाड! पवित्रतायेचो वटवृक्ष दादा! (हांसता) अवघ्या वीस वर्साचे पिरायेचेर कंपनीतले एका तीस वर्साचे नटयेच्या गर्भाशयांत म्हाका जल्माक घालपी दादा वडाचें झाड! (हांसता)

मामा : (सहन न जावन) कलानंद! ह्या घरांत ल्हानाचो व्हड जालां तूं. दादांचे मांडयेर खेळ्ळा तूं, तुका दादा समजूंकच ना कलानंद. तुका अशें उलोवप सोबना.

कलानंद : ना. म्हजेसारखेल्या सामान्य मनशाक ह्या संवसारांत कांयच सोबना मामा. नांव आनी किर्त मेळून व्हड जाल्ल्या मनशाक मात कितेंय सोबता. ताच्या हातांत गुलाबय सोबता आनी त्याच हातांत रातचो सोऱ्याचो ग्लासय सोबता. नाटकांत राजाची भुमिकाय सोबता आनी पंचवीस वर्साचे चलयेक आश्रय दिवपाच्या नावान केल्लें नाटकय सोबता. हेंच कलानंदान केल्यार सोबना. (हासता)

मामा : कलानंद – कलानंद पुरो. इतलेंच पुरो. हे सत्तर वर्साचे कुडींत आतां

सहन करपाची शक्त उरूंक ना. हीं कुरकुरीत जाल्लीं हाडां जाळूंक इतले विखारी उतरांचे येदें व्हड मरण दाळपाची गरज ना. एकेच पेटीतें फस्काकाडयेचो धग लेगीत ह्या हाडांचो गोबोर करूंक पुरो ह्या वयांत. सावले - सावले तूं हांगा राव नाका. तूं भितर वच.

सावली : मामा, इतलीं वर्सां सरभोवतणचो समाज ओकलो, आतां ताका ओकूं दी.

मामा : ना सावले. म्हजेखातीर तरी तूं भितर वच. इतले उपकार कर म्हजेर.

सावली : मामा, म्हाका हें नवीन न्हय. अशे कितलेशेच विखाचे थेंबे गिळत आयलां हांव. आतां आख्खो पेलो भरून लेगीत विख पचोवपाची तांक निर्माण जाल्या म्हज्यांत.

मामा : जाणा हांव, जाणा. कलाकार विख पचोवंक शकता, कलाकार अपमान गिळूंक शकता, पूण कलाकार कलेची विटंबना, कलेचो अपमान सहन करूंक शकना. एका म्हान कलाकाराची उपमर्द करपी उतरां, एक निश्टावान कलाकार आयकून वगी रावंक शकना. (मामाचे दोळे भरून येतात.)

सावली : कलानंद, एक अभिनेत्री म्हणून जें म्हाका आज नांव मेळ्ळां, किर्त लाबल्या ती तुमकां सगळ्यांक लागूनच. कंपनीतले सगळे कलाकार, तबलावादक गोविंदजी, मामासारखे संगीतकार, नरहरीबुवांसारखे मायेस्त सहकारी आनी तुजेसारको एक इश्ट.

कलानंद : इश्ट! न्हय. आवयपेक्षा पांच वर्सांनी व्हड आशिल्लो तिचो पूत.

सावली : तूं म्हाका मनातल्यान आवयचोच मान दिता आसत जाल्यार, अभिनेत्री म्हणून रसीकांनी दिल्ल्या आसनापेक्षाय, तुवें आवय म्हणून दिल्लो पाट हांव व्हड मानान स्वीकारीन कलानंद.

मामा : कलानंद, आयक, आयक. हीं सावलीचीं उतरां न्हय. विख पचोवन तातूंतल्यान निर्माण जाल्लीं रत्नां हीं रत्नां.

सावली : कलानंद, तुज्यांतय नाट्यकला आसा. रंगमाचयेर चडून खंयचीय भुमिका रंगोवपाची तांक तुज्यांत आसा. तुज्यांत लिपिल्लो सुप्त असो कलाकार हांव हांगा रावतपासून तेळत आसां.

कलानंद : तुकाय दिसता ह्या कलानंदातलो कलाकार? ताचेर चेंचायिल्ल्यो

खुणो आसात. दिसतात तुका? एका म्हान कलाकारान ताका चेचायला.

सावली : कोणाच्या आंगातली कला दुसरो कोणच चेचोवंक शकना कलानंद. स्वताभितरली कला स्वताच वाडोवपाची आसता.

कलानंद : तो वाडूंक फावना. कंपनी वाडूंक जाय जाल्यार कलानंदातलो कलाकार साप मरून वचूंक जाय.

सावली : नसतें मनातलें काडून उडय. ही कंपनी तुजी. ती तगची न्हय, मातयेभरवण जावची म्हणून कोणतरी तुजेंच हत्यार करून तुजेच कंपनीचेर घावे घालता. तुज्या हातांत सोऱ्याचो ग्लास दिवन तो इश्टागत वाडयता. तो कंपनीचे भरभराटीक, कंपनीच्या नावांक त्या ग्लासांत बुडोवंक पळेता. तूं उबो राव कलानंद. एक कलाकार म्हणून उबो राव. हांव तुका सांगात दिन. कंपनीचे सगळे तुका पाठबळ दितले. दादांकय आतां कोणेतरी खांद मारिल्लोच जाय.

कलानंद : खांद! फकत खांद मारपावेळार पुताची गरज.

सावली : (निर्शेवन) तुका हांव कशें समजांव?

कलानंद : तुकाच अजून कांयच समजुना थंय (दोनय हात जोडून) आई, तूं म्हाका कितें म्हणून समजायतली? एके जुनाट मोडूंक आयिल्ले पन्नास वर्सां पयलीचे कंपनीक हांव खांद मारूं? जग बदलता आई. नाटकय बदलत चल्लां. संगीत, इतिहासीक नाटक सोंपत चल्लां. सामाजीक, वैचारीक नाटकांचो जमानो सुरू जाला. अशा वेळार हांव खांद मारूं? जीर्ण जाल्ले कंपनीचे म्हेडीक? तुमी अजूनय तेच म्हेडीक घट्ट धरून थंयचे थंयच घुंवत आसात. अजूनय तोच शिवाजी दादा रंगयत आसा. अजुनय तींच पदां मामा वाजयत आसा. तोच कर्ण, तोच औरंगजेब, तीच रूक्मीणी, तोच झुंजारराव. मामा, ज्या रघुनाथाक तुमी दुस्मान म्हणून लेकतात, तिरस्कार करतात तो रघुनाथ नाटकाच्या मळार नवे नवे प्रयोग करूंक लागला.

मामा : त्या नवे प्रयोगांक रसीकांची कितली खेट पडटा तीय पळयल्या हांवे.

कलानंद : रघुनाथ गर्देखातीर नाटक करीना. आज जे नाटक अकादमीन एके

नटयेचो गौरव केलो आनी दादांचो तीन हजारांची थैली दिवन सत्कार केलो ते अकादमींत रघुनाथाच्या मार्गदर्शनाखाला नाट्यशास्त्राचे वर्ग चलतात मामा.

मामा : रघुनाथाचें मार्गदर्शन! म्हणजे नाटकाचो बेगीनच तमाशो जावपाचो आसा तर.

कलानंद : रघुनाथाक बरें मागल्यार तातूंत दादाक लेगीत शिकोवपाची नोकरी मेळूं येता. म्हयनोभर केल्ल्या प्रयोगांपरसय बरो पागार्मेंत मेळूं येता.

सावली : अजून दादा कशे आयलेना? खंय घुस्पून उरले काय?

कलानंद : दादांचो हुस्को करचेपेक्षा तुज्या फुडाराचो हुस्को कर सावली - हॅं – आई. रघुनाथाच्या नव्या नाटकांत तुका भुमिका दिवपाक आतांच तयार आसा तो. अशी जबरदस्त भुमिका मेळप होच खरो भौमान. हे हारतुरे, थैल्यो म्हळ्यार भौमान न्हय. 'पुरो करात तुमचें जुनें पुराण आनी कडेक सरात' म्हणून सभ्यपणान सांगपाची रीत म्हळ्यार भौमान.

(दादा लेंगो, सदरो, कोट, माथ्याक वुलनची टोपी अशा भेसांत येता. हातांत हारतुरो आनी छातयेर भौमानाचें पदक चकचकता.)

सावली : दादा ऽऽ दादा कितलो वेळ!

(सावलीकडेन हारतुरो दिवन दादा मामाच्या पायांक हात लायता.)

मामा : तुम्ही आतां फार मोठे राजे आहात शिवबा. आतां आमच्यसारख्या शिपाईगड्यांचे पांय धरायचे नसतात राजे. आम्ही वयानें मोठे असलो तरी.

(दादा मामाक वेंग मारता. तितल्यान तांचे नदरेक कलानंद पडटा.)

दादा : आरे कलानंद कसो आसा? सावलीच्या सत्काराक आयिल्लो काय ना? कितें म्हणटा तुजे नवे कंपनीचें नाटक?

कलानंद : एक जबरदस्त नाटक हातांत घेतलां आमी अंदूचे नाट्यअकादमीचे अखील भारतीय नाट्य सर्तीखातीर.

दादा : जबरदस्त नाटकांत तुजी जबरदस्त भुमिका पळोवपाची इत्सा आसा कलानंद.

कलानंद : म्हाका भुमिका ना तातूंत. हांव बाकीचें सगळें पळयतां.

दादा : तें बाकीचें तूं हांगाय पळयतालो. तूं जंखातीर गेल्लो त्या रघुनाथान

तुका अजूनय भुमिका दिवप ना?

कलानंद : म्हाका सोबसारकी भुमिका नाटकांत आसल्याबगर तो कसो दितलो? ही नाट्यसर्त सोंपली म्हणजे स्वखर्चान तो म्हाका मुंबयचे नाट्यकंपनीत धाडपाचो आसा.

दादा : मुंबय? वच. वतना सांग म्हाका. म्हज्या वळखीच्या लोकांचे पत्ते दिन तुका हांव.

कलानंद : तुमचे वळखीचे? थंय संगीत, पौराणीक, इतिहासीक नाटकांचो काळ उरूंक ना. थंय नव्यो कंपन्यो, नवीं नाटकां, नवीं तंत्रां, नवीं शास्त्रां घेवन माचयेर चडचें पडटा. हांगा जे कोण मोठे नटवर्य समजतात तांका थंय शिपायाची भुमिका मेळप कठीण दादा.

दादा : नवीं तंत्रां, नवीं शास्त्रां! आमचेकडेन नासतना आमी जें नाटक उबें केलें तें तुमचेकडेन आसूनसुद्धां तुमकां उबें करूंक येना कलानंद. कश्ट, जीद्द आनी रगत आटोवन उबें केल्लें नाटक आमी रसीकांच्या पानार वाडलें आनी रसीकांनीय तृप्त जावन दिल्ल्या ढेकरान आमी संतूश्ट जाले.

कलानंद : आतां रसीक शाणो जाला. आतां वाडटा तें मुकाट्यांनी गिळपी रसीक उरूंक ना दादाऽ आतां सगळें नवीन, शास्त्रोक्त. जो खरो तोच तगता.

दादा : म्हणजे आमी खोटे आशिल्ले? चाळीस वर्सां रंगभुयेचेर उबे रावले तें कितें खोटेपणा पांघरून?

कलानंद : लोकांचे मनरीजवणेक त्यावेळार दुसरें कांयच नाशिल्लें दादा. नाटकाच्या नावान तुमी कितेंय केल्यार तुमचेशिवाय आनी दुसऱ्याक कोणाक दितले आशिल्ले ते ताळयो, शाबासकी?

मामा : कलानंदऽऽ!

दादा : जे रंगमाचयेच्या पायण्यात ल्हानाचो व्हड जालो तो 'कलानंद' उलयना मामा हें. कलानंदातलो रघुनाथ उलयता हें.

कलानंद : हय. रघुनाथ म्हणटा हें. आनी कितें फट आसा तातूंत?

दादा : जायत. दादा खोटोच, नकली. पूण दादापयलींय हे रंगभुयेखातीर वावूरल्यात – बालगंधर्व, मास्टर दिनानाथ....

रातीच्यो राती आनी फांतोड जायमेरेन रंगून गेल्लो, वन्समोअर करपी

रसीक त्या रघुनाथान पळोवंक ना.

कलानंद : अजूनय बसता रसीक फांतोडमेंग्न. संगिताचे मैफलीक. रसीकांनी ताळयो, वन्समोअर दिले त्या संगिताक. नाटकाक न्हय. नाटक कितें तें तांका कळच नासलें. आनी इतलीच जर तुमकां मिजास आसा जाल्यार अंदू नाट्यसर्तीत देवन दाखयात तुमचें नाटक. फाटलीं दोन वर्सां हे सर्तीत देवपाखातीर रघुनाथ तुमकां आव्हान दिता. कित्याक देवनात?

दादा : म्हाका नाट्यसर्त, बक्षीसा हांची आतां गरज उरूंक ना कलानंद. पयलीं इतली ताकदय ना आंगात. मदींमदीं दम्याचोय त्रास जाता म्हाका. तरी आसतना फकत रसीकांचे इत्सेक लागून करतां एखादेंच नाटक. बस्स!

कलानंद : प्रकृतीचें निमीत्त. खरें कारण सांगू? सांगू? गजसिंहानाचेर बशिल्ल्या राजाक भंय लडायेचो. हार पदरांत पडली जाल्यार सिंहासनावेल्यान शेंवटत म्हणून.

दादा : हें फट.

कलानंद : स्वताक व्हड नाट्यकर्मी समजता जाल्यार बक्षीस सोडच, सादें एक प्रशस्तीपत्रक घेवन दाखय.

सावली : कोणाकडेन उलयता तूं?

कलानंद : पयलींचे अशे कितलेशेच नट आसात, नाटककार आसात. खोटें नकली पदक भांगराचें म्हणून हड्डयार मिरयतात. तें पदक कसाक लावन पळयतलो जाल्यार अखील भारतीय नाट्यसर्तीत देव. मागीर कळटलें. आसा कापास्ताद? (वता)

दादा : कापस्ताद! सावू 'कापस्ताद' म्हटलें ताणें. नाटकांतले माचयेर चडटना नाट्यदेवतेच्या पायांची धुल्ल कपलाक लावन सोपणा चडपी आमी आनी माचयेर चडचे पयलींच 'कापस्ताद' अशा शब्दानी नाट्यदेवतेची विटंबना करपी हे. खरेंच केदी तांची कापस्ताद.

सावली : दादा ऽऽ!

दादा : सादयो मिश्यो सुध्दा फुटूंक नाशिल्लें हें पोर. तांकां कळूंक जाय नाटक म्हणजे कितें? चार-आठ आण्याचें मसाल्याचें पान चगळूंचें

तशे चगळटात नाटकातले संवाद. तिठ्यार बेकारथवय कशे उबे रावचे, तशे उबे रावतात माचयेर. हांचे हातवारें, दोळ्यांची उघडझाप आनी तोंडावेले हावभाव पळेतगीर दिसता. शेतांतलें बुजगावणेंच वाऱ्यान हालना मू? चाळीस वर्साचे म्हजे नाट्यसेवेची बकच्छाय! 'कापस्ताद' ह्या उतरानी? येदी कापस्ताद आसा जाल्यार दाखयात तुमच्यांतले नाट्यकलेचो आवेश्कार. दाखयात उबे रावन माचयेर फांतोड जायमेरेन न खर्शेता, न धापेता. काडून उडयात ते आवाजाचे कर्णे आनी पावोवन दाखयात तुमचे शब्द संवाद निमणे कदेलार बशिल्ल्या रसीकामेरेन. पालोवन उडयात ते भगभगपी दिवे आनी पेटोवन दाखयात तुमच्या तोंडावेले हावभाव मंद उजवाडांत.

मामा : दादा, आसूं तें. रघुनाथ शिकयता तसो तो हांगा येवन उलयता. ताका कितें कळटा तो उलयता तातुंतलें?

दादा : ताका कळूंक जाय मामा नाटक म्हळ्यार कितें तें? सावू कापस्तादीक कापस्तादीनच जाप मेळटली. आयच्यान तयारेक लाग सावू.

सावली : पूण दादा, तुमची प्रकृती!

दादा : प्रकृतीच पणाक लायन हांव. नाटकांनीच जगलों. सोंपता जाल्यार नाटकांतच सोपूं दी. नाट्यअकादमीचे सर्तीच्या माचयेर आंगातली पुराय कळाशी पणाक लावन एक अखेरचो सलाम करूं दी म्हाका नाट्यदेवतेक. अभिनय, संवाद आनी हालचालीनी तीन तास फकत तीन मिनटा कशीं जावं दी. सावू, पयली भशेन ना तुका ताळयो, ना म्हाका वन्समोअर. ना रसीक खळखळून हांसचो, ना रडचो. अंका उपरांत कोणच येवचो ना दादाक मीठी मारूंक, ना तुजें कौतुक करूंक. रसीक बदलला सावू. नाटक बदललां, नाट्यशास्त्र बदललां, पुराय रंगमाची बदलल्या. बदलपाची उरल्या फकत रंगदेवता. तिचो शेंदूरी पाट. सतत पेटपी लामणदिवो. ज्या दिसा त्या शेंदूरी पाटावेली रंगदेवताच कोणतरी जूनाट म्हणून लोक काडटलो, त्या दिसा हे छातयेर रसीकानी लायिल्लें हें भांगरमोलाचें पदक गळून पडटलें सावू, गळून पडटलें.

सावली : (भारावून) दादा ऽऽऽ !

## देखाव : तिसरो

(माचयेर राजसिंहासन आनी नटराजाच्या फुड्यांत घडी केल्लो तांबडो अंक पडदो. एक स्टूल, एक खुर्ची आनी एक कडंक वाजोवपाची पेटी. स्टूलार मामा चिंतेस्त बसला. बऱ्याच वर्सांनी पॅन्ट -शर्ट घालून केस पिकिल्ले अवस्थेंत गुणा येता.)

गुणा : मामा ऽऽ !

मामा : कोण? (गुणाकडेन पळेत उरता)

गुणा : वळखूंक नाय मामा? मी गुणा. स्टेज लायतोलो तो.

मामा : आरे गुणा कितलो बदलला रे तू? म्हातारो जालो मरे. खंय आसता आतां? कितें करता?

गुणा : कारेतीचेर आसता. केन्हाय कोणयतरी जात्रेक-काल्याक स्टेज लावंक बोलायतात. तेजेर कायतरी सुटता.

मामा : आमचे कोणय मेळतात बी केन्नाय? नरहरी, दामबाब, बाबूराव पेंटर.

गुणा : बाबुराव पेंटराचो तुमका माहिती नाय?

मामा : कितें तें? मोठे नाटकाचे कंपनीत बी पावला रंगोवपाक?

गुणा : छा! अर्धांग जालो तेका. हांतुणार पडला. खूब वायट परिस्थिती जाला तेच्या घराकडची.

मामा : तूं गेल्लो मेळपाक?

गुणा : नाय. तेच्या गावांकडचो मेयळेलो. तणी सांगला माका.

मामा : दादाक म्हणू नाका हें. कंपनी बंद केली आनी सगळ्यांक रिकाम्या हातानी घरा धाडचे पडले म्हणून सदांच वतरता तो. सगळ्यांचो आपूणच मारेकरी म्हणून स्वताकच दुशण दीत खेपता तो

गुणा : दादा इतलो बरो नाय म्हणून माका मायतच नाय. कसो आसा आतां? येवंकच मेळना नाय. एक दिवस गेले नाय जाल्यार दुसरे दिसा मालक

कार्रेतीचेर घेना नाय. कार्रेत मोडली जाल्यार त्या दिवसाक सुटी मेळटली.

मामा : आज मोडली? (गुणाचे स्मीत हास्य) हांव तरी खंय पावला. म्हज्यानय जायना भायर सरूंक. मदीं दादाक जाय म्हणून पेटी घेवन आयिल्लो तितलोच. खूब थकला रे दादा आतां. म्हज्याहून जाण्टो जाला दम्याक लागून.

गुणा : नाटकाचे स्पर्धेंत नाटक केल्ला तांच शेवटना जाला. तसा नाटक परत जावचा ना मामा. नाटकाचो प्रयोग जाता म्हणसर दादाक खोकलीच येवंक नाय आणि खरसय मारूंक नाय. जणू काय दम्याक धमकीच दिल्लेसारखे, 'तूं भायर राव. मी नाटक करून येतय.' मामा प्रयोग जाल्या नंतर अर्दो तास तरी दादा लोकांचे माथ्या खांद्‌यार उरलो.

मामा : कितें उपयोग? निमणे सावलीक एक प्रशस्तीपत्रक आनी रसीक उठून गेले त्या रघुनाथाच्या नाटकाक पयलें बक्षीस.

गुणा : पडलेले नाटकाक बक्षीस कित्याक दितात मामा?

मामा : पडटा ताका उबारप हो नेम. म्हणून पडिल्ल्या नाटकाक बक्षीस दिवन तें उबारप. (गुणा हांसता)

गुणा : मामा, दोन वर्सां जालीं. पण कालच जाल्ल्याभशेन लोक बोलतात त्या नाटकाविशीं.

मामा : दादान जीव पणाक लावन रसीकांक नाटक दिलें आनी त्याबदला रसीकांनी ताळयो दिल्यो. जालें. हिशेब मेकळो. आतां जगपाखातीर हेडपाचें. बोर्ड वाचीत. 'आज रोख. उद्या उधार.' इतलो तेप नाटकाचें सामान, स्टेज विकून दीस सारले. दादाचें वेळच्या वेळार वखद पाणी केलें त्या सावून. पूण आतां फुडें कशें? हें पळय कालचें दोतोरालें रशेद तशेंच आसा बोल्सांत. येदेशें तोंड करून उबें राविल्ल्या सावूक धीर दिवपाखातीर? 'दी हांव हाडटां वखद' अशें म्हणून रशेन बोल्सांत घालें. पूण कशें हाडचें हाजोच विचार करीत कालचो दीस सारलो.

गुणा : म्हाज्याकडे दी. मी हाडतंय मामा.

मामा : नाका. म्हज्या बोल्सांत उरलें तशेंच तुज्या बोल्सांत उरतलें. निमणो तूंय आमचेच माळेचो मणी.

गुणा : खरां तुमचा. मी कायतरी करून एक तरी हाडतय तेच्यातलां. जमल्यार सगळींच हाडतय. आतांच येतना फाटीं केन्हातरी लायलेल्या स्टेजीचे पयशे हातात पडल्या. दादाचे कंपनीत काम केल्ला म्हणून आज कोणय मानान बोलयतात स्टेज लावंक. दादाचो अधिकार आसा त्या पयशांचेर.

मामा : घे. (रशेद गुणाकडेन दिता) रोकडो यो. दादा कुमावां गेला. सावू रावलां थंय. सांगाताक. तेसर तूं वचून यो. उदार दिता जाल्यार उदार घे. हांवे पयशांची वेवस्था केल्या. एका मनशाची कालच्यान वाट पळयतां हांव. तो आयलो जाल्यार रोखडेच फारीक करीन हांव.

गुणा : मी हाडतंय. काळजी करूं नको. (ताकतिकेन वचूंक वता आनी माथें खरपीत परतता) मामा ऽऽ

मामा : कित्या परतलो?

गुणा : मामा आज आमी कार्रेतकार स्टॅण्डाचेर नाटक करतले.

मामा : आज! कसलें नाटक?

गुणा : रायगडाला जेव्हा जाग येते!

मामा : शाबास. तूं स्टेजच लायता काय पार्टय करता?

गुणा : पार्टय करतय. मी शिवाजी.

मामा : वा ऽऽ वाऽऽ! आनी डायरेक्टरय तूं हय मरे?

गुणा : सुरवातीक मीच बसयललंय. पण फाटले आठवड्याक मुंबयच्यान मालकाचो झील आयलो. तो भंयकर मोठी मोठीं नाटकां करता खंय. तेणी ह्या आठ दिवसांत सगळांच बदललां. स्टेज लावपी नाय, दरबार नाय, बागेचो पडदो नाय आणि आसनाय नाय. तो म्हणता नवे पध्दतीन करया. दरबाराचो सीन आसता तेवां फकत एक दरबारी खांबो ठेवचो. बागेचो सीन आसता तेवां खांब काडूचो, थंय एक झाड दाखोवचा. च्याचे पेटयेर धवो कपडो घालूचो. तेचेर शिवाजी बसलो म्हणजे ता आसन जाला. तेचेर शिपाई बसलो म्हणजे ता सादा बसका जाला. मुंबय करता खंय असा, तेच्याफुडें बोलाचा

आमकां कोणाक धाडस नाय. असल्या स्टेजीचेर मी कसा करूं शिवाजी?

मामा : नवे पध्दतीन कर. तो सांगता तश्शें कर. ताका विचार शिवाजीक दाडी लायतलो काय दाडी आसा म्हणून दाखोवपाक थंय एक केस लायतलो काय म्हणून?

(भितरल्यान सावली 'मामा' म्हणून उलो मारता. मामा भितर वचूंक वता.)

गुणा : मामा, मी लवकरच येतय. पूण दादाक म्हणू नको 'रायगडाला जाग येते' नाटकाचा. (वता.)

(दादाच्या हाताक धरून मामा येता.)

दादा : सोड तूं हात. तसो पडना हांव. आतां मातशें बरें दिसलें जिवाक. खोंकलोय मातसो कमी आसा.

मामा : आसूं. उलोवं नाका. उलयलो म्हणजे खांक येता.

दादा : (खुर्चेर बसत) दोन दीस जाले तुका हांगा येवन. तूं वच घरा. घरकान्न वाट पळयता आसतली.

मामा : हेंय म्हजेंच घर न्ही दादा?

दादा : तुमची सेवा हांवे करपाची? पूण तुमकांच म्हजें करचें पडटा?

मामा : हांव खंय कितें करता? काळखांत काजुल्यांच्या उजवाडाचो धीर तसो सावलीच्या धीराक हांव.

दादा : नाट्यदेवतेची सेवा अर्ध्यारच उरली मामा. ह्या दम्यान हो असो बंदीस्त करून उडयलो म्हाका. मामा ते सावूचें कशें जातलें फुडें?

मामा : दादा, तूं मन शांत दवर पळोवया.

दादा : ताच्यांतल्या कलाकाराक हात दिलो हांवे. पूण ताचो हात कोणाच्याय हातांत दिवंक जाय आशिल्लो हाचें भानच उरलें ना. तें अशेंच एकटें एकसुरें उरल्यार हांवच कारण जातलो मामा. (खोंकलो)

मामा : तूं बेठोच खंती जाता दादा.

दादा : कलानंदाक पळयन दिसता. मुंबय कसो आसा, कितें करता देव जाणा. म्हाका वेल्यान आपोवणे येवचे पयलीं कलानंद आयल्यार पुरो. ताची चूक मागूंक जाय. चूक मागूंक जाय ताची. (रडटा)

मामा : (पुडव्याचे शेवान आपलेच दोळे पुशीत) दादा, ह्या दोन दिसांत तूं सामकोच भुरग्यांभशेन करता. इतलो हळवो दादा हांवें केन्नाच पळोवंक ना.

दादा : याद येता रे सगळ्यांची. कंपनी बंद म्हणिनाफुडें मृकाट्यानी गेले सगळे रिकाम्या हातानी. मामा, काल रातीं सपनात म्हाका बाबूराव पेंटर दिसो. विचीत्र सपन! बाबूराव म्हाका रंगयता. एकाच हातान. एकाच पायाचेर उबो रावन. हांव ताचेकडेन पळेत रावलो. तितल्यान तो सकयल कोसळ्ळो. 'दादा, हात दी, हात दी म्हाका' म्हणूंक लागलो. पूण म्हजो हात ताचे म्हऱ्यांत पावून पावना जालो.

मामा : (भावनावश जावन) बाबूराव पेंटर! वायट सपना बरीं म्हणटात. हांव असो वचून येता रोखडो. काम आसा म्हजें. (दोळे पुसत वता.)

(दादा हताश जावन सगळेवटेन नदर मारता. सावली, थोडेशे पिकिल्ले केस, दमिल्लो तोंडावळो, पदर खोयत भायर येता.)

सावली : दादा, तुळशी पाना, गोडे काश्ट घालून कसाय केला. हाडूं गरम सो.

दादा : नाका. खोकल्याखातीर कसाय नाका. च्या नाका. तेपक्षा रसीकांनी दिल्ली एखादी ताळी दी तोंडात उडोवपाक. एक ताळी तोंडात उडोवपाची. वेल्यान थोडें उदक पियेवपाचें.

सावली : अशे निराश जावं नाकात दादा. तुमचें मन, काळजांतलें दूख कळटा म्हाका.

दादा : असो अपंगूळ जालां ताचें दूख ना म्हाका सावू. पूण जी रंगभूमी उबी केली, तिच्या गळ्यातलें अळंकार अखेरेक पोटाखातीर विकचे पडले, हें दूख हांव कशें सोसूं?

सावली : आज हे अवस्थेंत तें सगळें नाट्यसाहित्य, सामान सांबाळून दवरप शक्य आशिल्लें दादा? फकत पोटां भरपाखातीर विकूना तें पूण कोणाकडल्यान जायना बरें उरचें, नाटकाक उपेगी पडचें, वायरान वाट लागचें न्हय होय विचार आशिल्लो न्ही विकपा फाटल्यान?

दादा : रगताचें पोर सांबाळपाक जायना, वाडोवपाची तांक ना म्हणून कोण केन्ना विकतात सावू?

सावली : ना, दादा ना. अशें न्हय. जल्मतांच कृष्णाक पाटल्यात घालून

गोकूळांत व्हरून सोडपी वासुदेवाक कितें खर दूख, यातना जावंक नाशिल्ल्यो? पूण भोगपी पिडेपेक्षाय कृष्णाचो खंय तरी सांबाळ जावंक जाय होच हेतू आशिल्लो. आमीय तेंच केलां दादा.

दादा : (तोंडार हास्य) खरें, खरें तुजें सावू. तुजेभशेन विचार करप म्हाका जमच ना. तूं खरेंच खूब समजीकायेचें.

सावली : धीर धरात दादा. सगळें वेवस्थीत जातलें. तुमकां कितें जाय तें सांगात. सावू तुमकां कितेंच कमी पडूंक दिवचें ना दादा.

दादा : तोच संयम, तोच निर्धार, तीच आशा. केदी धीटाय आसा सावू तुज्यांत. पूण ज्या दिसा हो संयम, ही धीटाय सोंपतली, त्यादिसा तुकाय सगळेंच उध्वस्त जाल्लेवरी दिसतलें. बेकार-लजेचें-रीकामे जीणे. रंगमाचयेर उबोय रावपाक येना आनी सोंपते सांजवेळा अचळय आंग हातूणार घालून पडूंकच मेळना.

सावली : रसीकांनी तुमकां बसपाक काळजाचें आसन दिलां दादा. त्या आसनाचेर सुस्त पडून रावात. रंगमाचयेवेल्यान सकयल देंवले तरी रसीकांनी तुमकां धुकलून दिवूना सिंहासनावेल्यान.

दादा : सिंहासनावेल्यान धुकलूनय दिलोना आनी सिंहासनाचेर बशिल्ल्या राजाक पोट आसता हाजी केन्ना जाणीवय करून दिलीना. आज सगळें सोंपतकीर कळटा आमकां पोट आसा, पोटांत भूक आसा. सावू, म्हज्या उपरांत तुजें कशें जातलें?

सावली : दादा ऽऽ (हुंदको दिता) अशें उलोवं नाकात दादा.

दादा : सावू तूं वच. आतां ह्या दादाकडेन तुका दिवपासारकें कांयच उरूंक ना. वच तूं.

सावली : तुमकां अशे एकटे उडोवन? म्हजो नाटकाचो अभ्यास पुराय जावचे पयलींच म्हाका वचूंक सांगतात तुमी? एखादे नाटक कंपनीत वचनय आशिल्लें हांव. तशें आपवणेय आयिल्लें म्हाका. पूण ते एकेय नाट्यकंपनीत तुमचेसारखें दादा नाशिल्ले. नाट्यकलेखातीर जगप वेगळें आनी जगपाखातीर नाटक करप वेगळें. म्हाका तुमचेपासून पयस करूं नाकात दादा. (रडटा)

दादा : सावू, रडटा ! शी ऽऽ शी रडप ना. तशें तूं गेल्यार एक सेकंद लेगीत

जगचो ना हांव. बेठेंच म्हळें हांवे. सहज म्हळें सावू.
(सावली दोनय हातानी तोंड धापून भीतर धांवता.) ना. आतां सावूक वच म्हणपांत कांयच अर्थ ना. कारण तूं एक नटी. एका नटाच्या घरांत, परकी दादल्यांच्या सानीध्यांत तुज्यांतलो कलाकार जगयलो, पूण तुका सवायशिणीचें भाग्य, भुरगेबाळांचे सूख, तें हाजेफुडें मेळत? तुका हांगा आलाशिरो दिवंकच जायना आसलो.
(दादा बाकड्याचेर घाल्ल्या हातूणाचेर लवंडता. मामा ताकतिकेन येता. फाटोफाट शशी, चाळीस-पंचेचाळीस पिरायेचो, येता)

मामा : (दादाक न्हिदता तो पळोवन) यो शशी यो. भीतर यो. दोन दीस वाट पळयली तुजी. आतां म्हणलें तूं येना दिसता.

शशी : काल जमलें ना. म्हजें अशें पयशे आसल्यारच वस्त घेवप. पयशे मागीर दितां म्हणून पेटी व्हरप म्हाका आवडना.

मामा : ही पळय हांगाच आसा. पळय भायर काडून. (शशी पेटये म्हऱ्यांत स्टूलाचेर बसता आनी पांयपेटी वयर काडटा.) पळय वाजोवन पळयतलो जाल्यार. दादा मात न्हिदला.

शशी : नाका. वाजयनासतना सूर आयकूंक येता तिच्यांतल्यान.

मामा : केन्ना व्हरता? आतां व्हरता? कसो व्हरतलो?

शशी : मानाय घेवन येतां. (वचूंक परतता)

मामा : शशी, पेटी तुका दिल्या उपरांत ती तुजीच जाली. म्हजो हक्क उरचोना तिजेर. तरी आसतना एक विनयतां (हात जोडटा) रागार जावं नाका.

शशी : छॅ! रागार कित्याक? तुमचेसारखेले म्हान पेटी वादकाचेर आमच्यानी रागार जावं येता? तुमी गुरूस्थानी आमकां.

मामा : सांबाळ तिका. सदां नितळ कपड्यान पूस. धांपतकीर बॉक्स कशें दिसता म्हणून बसचें न्हय तिचेर कोणेय. हांवे तशीच सांबाळ्या तिका. पूण म्हजेपरसय तिणेच चड वयर काडला म्हाका. पोट तें म्हजें.

शशी : येतां मामा. मनीस घेवन रोखडोच येतां.

मामा : शशी, केन्नाय म्हाका जाय जाल्यार ना म्हणू नाका.

शशी : तुमकां जाय तेन्ना सांगात. हक्कान वाजयात मामा.

मामा : वाजोवंक जायना रे आतां. फकत दोळे भरून पळोवपाक. म्हजें भुरगेंपण, म्हजें नेणारपण, म्हजे सूर, म्हज्यो चाली, म्हज्यो यादी, म्हजें सगळें जिवीतच भरून दवरलां रे हांवें तातूंत. घेवन वच. पूण कोणेय विचारल्यार वाजोवपाक व्हरता म्हणून सांग. मामान विकल्या म्हणून सांगू नाका.

शशी : बरें – बरें (वता)

ममा : (पेटयेम्हऱ्यांत दीमी मारून) दादाक वखद जाय. कलानंद मुंबय त्रासांत पडला. ताका येवपाक पयशे धाडूंक जाय. ह्या कलेच्या राजांगणात तुजे सूर जाय बेटा. तितलेच खातीर – म्हाका माफ कर. म्हाका माफ कर.

सावली : (भायर येता) मामा खंय गेल्ले तुमी?

मामा : असो कुर्येयत वचून आयलो. कलानंदाचें पत्र आयलां. आमचीं दोनय पत्रां पावल्यांत ताका. (पत्र दिता) पूण तो येवंक शकना मुंबयच्यान. (सावली पत्र वाचता) येन दिसता. पूण हातांत कांयच ना. कितेंय पयशे धाड. दादाक पळयन दिसा म्हणून बरयलां ताणें.

सावली : (पत्राची घडी करीत व्हड उस्वास घेता) कशें जातलें मामा?

दादा : (उठता) सावू ऽऽ

सावली : तुमी न्हीदात दादा. कित्याक उठले?

दादा : कलानंद आयलो?

सावली : येतलो तो दादा. रोखडोच येतां म्हणून कळयलां ताणे.

दादा : येतलो. तो येसर बाजीवरी हे मर्णाचे खीडीत एकटोच झगडटलों हांव. मामा, तूं मान सकयल घालून वगी कित्याक?

मामा : दादा, पेटयेचें चिंततालो, वाजयनासतना तशीच पडून उरल्या. वाट लागून वतली. तेपेक्षा....

दादा : वाजय. आज वाजय. खूब दिसांनी आज खरेंच बरें दिसलें जिवाक. खरेंच वाजय मामा एखादें नाट्यगीत. नाट्यदेवता आसा त्या घरांत अशें सामसूम बरें दिसना. वाजय मामा. कितेंय तरी वाजय.

मामा : दादा म्हज्यान जावचेंलेना. जमचेलेना. पेटी वाट लागची न्हय म्हणून व्हरूंक लायल्या हांवे एका पेटीमास्तराक. ताका तरी शिकोवंक

उपकारतली.

सावली : परत हाडून दितलों न्हय तो, ताचें काम जातगीर?

मामा : हांगा आनी कोणाक ती? बेठीच पडून उरतली. ताका म्हणलें एक चारशीं पांचशी दी. केन्नाय म्हाका जाय तेन्ना दितलोंच तो.

दादा : चारशीं - पांचशी! म्हणजे पेटी विकली मामा? पेटी विकली?

मामा : दादा विकूना. पयशे परत करून पेटी जाय तेन्ना हाडूं येता. बरो मनीस तो.

दादा : म्हणजे घाण दवरल्या. ही कळमेल्ली म्हेंड उबी करूंक घरची पाटी घाण दवरल्या. ह्या दादाच्या दम्याक थातारूंक सुरांचे देवतेक घाण दवरल्या. (खोंकता)

मामा : दादा SSS!

दादा : आतां उरला फकत नाट्यदेवतेचो एक तांबडो शालू आनी हें राजाचें आसन. हेंय घाण दवरात.

सावली : दादाSSS.

दादा : हुंवारांत जीव वांचोवपाखातीर खांदार घेतलीं पोरां आनी स्वताच्या नाकामेरेन उदक पावतगीर तींच खांदावेलीं पोरां घेतात पायामुळां. कारण आमकां जगूंक जाय. आमकां जगूंक जाय. (खोंकता)

मामा : दादा, शांत जायात दादा. पेटी घाण ना दवरचो हांव.

दादा : दूर व्हा सगळे. (पेटयेचे दिकेन वता) मॉसाहेब तह ठरला. तह पुरा पाळला जाईपर्यंत संभाजी मीर्झाराज्याकडे ओलीस म्हणून रहतील. (सावीक हुंदको येता) मॉसाहेब कृपा करून रडू नका. तुमच्या डोळ्यांतले अश्रू पहाण्याचं सामर्थ्य आमच्या अंगी उरलेलं नाही. गड तांबडतोब खाली करायला हवाय. (तोल वता)

सावली : दादा SS दादा SS

मामा : दादा. दादा हांव चुकलों दादा.

दादा : सात आठ वर्षाचं, निर्व्याज्य मनाचं कोवळ पोर! आज आम्ही त्याला शत्रुघरी ओलीस म्हणून पाठवित आहो. नळहाताच्या फोडासारखे जपूं म्हणून सईला वचन दिलं होतं. ही सईची चालती-बोलती आठवण, ती तरी टिकेल ना.

सावली : दादा ऽऽ

दादा : ओसाड मुलुख स्वराज्याच्या स्वप्नान कश्टान वसतीला आणला. तोच मुलुख गमावून बसलो. पोटच्या पोराचा, स्वराज्याच्या भावी युवराजाला, शत्रुघरचा पंचहजारी मनसबदार केला.

सावली : दादा ऽऽऽ

दादा : माँसाहेब ! स्वप्नं विरून गेली, अस्तित्वही उरलं नाही. मग जायचं तरी कशाला? आमचा भरोसा धरू नका. जगावं की मरावं ह्याचाच विचार आम्ही करतो आहो. ह्याक्षणी मृत्यू आम्हाला गोड वाटतो आहे.

(दादांक आकांताची खोंकली येता. सावली-मामा ताका घट्ट धरून खुर्चेर बसयतात. मामा वारो घालता. सावली बेगोबेग उदकाचो पेलो घेवन येता. दादा उदक पिता. रोत घेवन खचिल्लो जाण्टो विश्वासराव आनी बरोबर खाड वाडिल्लो, सादे भेसांत कलानंद दारांत उबे.)

मामा : (दाराकडेन नदर मारीत) दादा कलानंद! कलानंद आयले.

दादा : आयलो कलानंद?

कलानंद : (सवकासायेन दादाचेवटेन येत) दादा ऽऽऽ

दादा : कलानंद चुकलों हांव. म्हाका माफ कर.

कलानंद : ना दादा. पांय म्हजो घसरला. हांवच दोळे आसून कुड्डो जाल्लों. दादा, मुंबयचे, ते महानगरींत कोणेच लागी केलो ना म्हाका. हमाली केली, फुटपाथार न्हिदून दीस काडले. रघुनाथाक कितलीं पत्रां बरयलीं. रघुनाथ इतलो कपटी, ढोंगी आनी विश्वासघातकी हें म्हाका समजलेंच ना दादा.

मामा : तूं तसोच परत येवचो आशिल्लो. आमी तुका पयस करचे नाशिल्ले.

कलानंद : मामा, सावली म्हाका माफ करात. वायट उतरांनी छळल्यांत हांवे तुमकां. सावली तुका हांवे कुचित्रीपणान 'आई, आई' म्हणून हिणसायल्या. तूं साक्षात देवता हें जाणा जावन लेगीत! ह्या विश्वासरावांक लागून आज हांव हांगा पावला. नाजाल्यार कदाचीत कलानंद तुमकां केन्नाच पळोवंक मेळचो नाशिल्लो.

सावली : (विश्वासरावाकडेन पळेत) बाबऽऽऽ (विश्वासरावय फुडें सरून सावलीक वेंगेंत घेता.)

विश्वास : सावले तळमळ्ळो, तळमळलो गो तुका लागून. दादा, तुमी सावलीक खूब व्हड केलें, घडये म्हज्यान लेगीत जावचे नाशिल्लें इतलें व्हड.

दादा : मामा, हेच ते विश्वासराव? नाटक म्हळ्यार आंगाक उजो पेटपी काय हे दुसरेच कोण?

मामा : हें काळाचें कर्तूब दादा. आज नाटकाक प्रतिश्टा मेळूंक लागल्या. चलयो आपूण जावन माचयेर चडूंक लागल्यात. आंगाक पेटिल्ल्या उज्यान काळ जळ्ळो ना. ज्यांच्या आंगाक पेटलो तेच हुलपल्यात आनी आज देळ्यांत आयल्यात.

विश्वास : हय. हांव हुलपला. दादा, मामा म्हजेविशीं राग धरूं नाकात. हांव चूक मागतां. कलानंदाक लेगीत हांवे हाडलो तो तुमचेर उपकार म्हणून न्हय. म्हज्या मनाक थाकाय मेळची म्हणून. दादा, नाट्यकलेखातीर, रंगभूमीखातीर हांव म्हजी सगळी धनदौलत तुमच्या पायांर ओपतां दादा. स्वीकार करचो दादा. ना म्हणूं नाकात. रंगदेवतेखातीर तरी ना म्हणू नाकात.

दादा : मामा, नाट्यदेवतेन केदो व्हडलो पुरस्कार धाडून दिला म्हाका. मामा, मामा आतां तरी हो पुरस्कार स्वीकारतना तुमचे हातचे स्वर म्हाका आयकूं दी. मामा आतां तरी जमचेलें ना अशें म्हणू नाकात.

सावली : मामा, वाजयात, दादाखातीर, फकत दादांखातीर तरी वाजयात. (मामा पेटयेचेर नाट्यगीत वाजयता)

दादा : वा ऽऽ मामा; वा ऽऽ! आयचो दीस हो म्हजे जिणेतलो सुखाचो दीस. सावले, म्हाका नाट्यदेवतेचो शालू जाय. कलानंद, म्हाका त्या राजसिंहासनाचेर बसन दिसलां.

(कलानंद- सावली दादाक आदार दिवन राजसिंहासनाचेर बसयतात. सावली नटराजाकडचो तांबडो पडदो हाडून दादांकडेन दिता. दादा तो घट्ट छातयेकडेन धरता.)

दादा : वा! कितलें बरें दिसलें. मनातलीं सगळीं काळीं कुपां नाच जालीं. फकत काळें खत कशें एकूच कूप दाटून उरलां. तेंय फुटून गेल्लें

जाल्यार लख्ख, नितळ जातलें आशिल्लें.

कलानंद : कसलें काळें खत दादा?

दादा : विश्वासराव तुमीच तें कूप फोडून उडयात.

कलानंद : दादा हांव जाणा. सावलीचे चार हात करूंक पावलोना ही खंत आसा तुमकां. ती अशी उरली ती आपणाकच लागून हेंच काळें कूप तुमच्या मनांत दाटून उरलां. दादा तुमचो आशिर्वाद, सावलीची मान्यताय आनी विश्वासरावांचो हयकार आसत जाल्यार सावलीच्या आदारान ही संगीत रंगभूमी परत उबी करन हांव.

विश्वास : (मोठ्यान) ना. हें शक्य ना. कलानंद सावलीकडेन तुजें लग्न लावप केन्नाच शक्य ना.

कलानंद : बरोबर आसा तुमचें. एके गिरस्ताले चलयेकडेन एक असो कफल्लक कलानंद कसो लग्न जावंक शकता? दादा ताणी मोठ्या कश्टान तुमचो कलानंद तुमकां परत हाडून दिला. बदलेक तांची सावली तांकां परत व्हरूंक दियात. चलात, घेवन चलात विश्वासराव.

विश्वास : कलानंद अशें न्हय. दादा तुमीच समजायात ताका.

दादा : हांवे नाट्यदेवतेचो सोपूत घेतिल्लो आसा. म्हज्यान तो मोडूंक जावचेलोना विश्वासराव.

विश्वास : कित्याक तुमी अशे सोपुतान बांदून घेवन रावले दादा? कित्याक तुमी त्याचवेळार म्हजेकडेन बोट दाखयनासतना मुकाट्यानी आपल्या आंगार घेतलें? वैशाली ऽऽ वैशालीऽऽ तुका भोगयलें ताचे दुपेटीन देवान म्हाका ख्यास्त दिल्या. आतां तरी आसा थंयच्यान म्हज्या मनाक शांती दी वैशाली.

कलानंद : वैशाली! म्हणजे दादा!

दादा : मामा, लख्ख उजवाड जालो. आतां म्हाका नाट्यदेवता स्पश्ट दिसूंक लागल्या. म्हजो रसीक नाटकाची वाट पळेता. ताका तिश्टांव जायना. नाटकाची तिसरी घंटा मार कलानंद. मामा पेटयेचे सूर धर. आयक ताळयार ताळयो. वन्समोअर! सावे तुज्या पदाक वन्समोअर! म्हण परत म्हण सावले – म्हाका न्हीद येता. म्हण सावले. म्हण. – राजहंस माझा ... म्हण.

सावली : (दादाच्या माथ्यांतल्यान हात फिरयत पद म्हणटा)
राजहंस माझा नीजला, करूं नका गलबला अगदी,
लागली झोप मम बाळा
वाजवूं नका पाऊल, लागेल तया चाहूल
झोपेचा हलका फुल, मग झोपायचा कुठला
राजहंस माझा नीजला...

(पड्डो)



## दत्ताराम दामोदर कामत बांबोळकार

**नामो** : दामबाब, महालक्ष्मी देवळालार्गी, बांदोडें – फोंडें – गोंय

**जल्म** : 9 मे 1957

**शिक्षण** : धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस् अॅन्ड सायन्स, पणजे हांगासल्ल्यान विज्ञान शाखेची पदवी.

**1979** सावन बॅंक ऑफ महाराष्ट्र हे बॅंकेंत काम करता.

**1977** सावन नेमान 'राष्ट्रमत', 'सुनापरान्त' ह्या दिसाळ्यांत्यान तशेंच 'कुळागर' म्हयनाळ्यांतल्यान कथां उजवाडाक आयल्यात.

**1981** सावन नाट्यलेखनाक सुरवात. शालेय एकांकिका सर्तीखातीर आतांमेरेन आठ एकांकिकांचें लेखन केलां. धा नाटकां माचयेर आयल्यांत. 'शेणिल्लो गांव', 'वेदनाघर', 'सत्य माड्डितां माड्डितां', 'रंगयात्रीक', 'डॅडी', ताचेभायर 'संगीत महिरावण', 'वीख विखाळटा', 'रथोत्सव', 'संस्कार', 'गे माये' हीं तांचीं नाटकां कोंकणी रंगमाचयेर गाजल्यांत. आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रावयल्यान नभोनाट्यां प्रसारित जाल्यांत. पांच मराठी नाटकांचें कोंकणी नाट्य रूपांतर केलां.

### उजवाडाक आयिल्लें साहित्य

1. वनमहोत्सव – एकांकी संग्रह – 1989
2. सत्य मांड्डितां मांड्डितां – नाटक – 1998
3. डॅडी – नाटक – 2001
4. तलेदंड – अणकारीत नाटक – मूळ लेखक : गिरिश कर्नाड – 2005

### गौरव आनी पुरस्कार

कथा लेखन सर्तींत इनामां लाबल्यांत. सात एकांकिक उत्कृश्ट लेखनाचीं राज्य थरावयलीं इनामां. कला अकादमीचे नाट्यसर्तींत पांच नाटकांक लेखनाचीं इनामां. 1993-94 वर्साचो स. प्रभाकर शेणवी कुडचडकार नाट्य पुरस्कार. 2002 वर्सा पांचव्या युवा साहित्य संमेलनाचे, काणकोण अध्यक्ष.